# पिन्टूची काळभोंवडी

(बालसाहित्य)

दिलीप बोरकार




प्रकाशन






पिन्टूची काळभोंवडी

दिलीप बोरकार

(बालसाहित्य)

**Pintuchi Kallbhonvddi**

*by*

*Dilip Borkar*

*(Children's Literature)*

**प्रकाशन क्र. ८३**



**पयली आवृत्ती**

१२ जानेवारी २०१२

**छापणावळ**

इम्प्रेशन्स

बी-२, 'अक्षर आर्केड'

३३६०/४, गोंधळी गल्ली,

बेळगांव - ५९० ००२

**अक्षर जुळणी**

बिम्ब प्रकाशन

**मुखचित्र**

गिरीश नंदा बोरकार

**प्रकाशक**

कामिनी किणी

'धर्म-लक्ष्मी',

सांत लॉरेन्स,

आगशी - गोंय ४०३ २०४.

₹ १००

ज्या **पिन्टूक** लागून
म्हाका
बालसाहित्यांत
**पिन्टू** हो नायक सांपडलो
त्या $\dot{P}_2$चे
(सत्यजित सुबोध केरकार)
अमर यादीक समर्पीत...

# भोंवडेची तयारी...!

पिन्टू म्हळ्यार सत्यजित.

सत्यजित चित्रकार सुबोध केरकारालो चलो.

आतां तो ह्या संवसारांत ना.

कांय वर्सां आदीं तो अचकीत अनंताचे भोंवडेक गेलो.

तो जेन्ना बरो ना जावन हांतुणार आशिल्लो तेन्ना ताका हांवें काणी सांगतलों अशें म्हणिल्लें. पूण हांवें ती सांगचे आदींच तो उठून गेलो. सगळ्यांच्या काळजाक चुरको लावन गेलो. १९९६ वर्सा म्हजें माणकुल्यां खातीर 'अशांत सुशांत' हें पुस्तक आयलें तेन्ना तें पुस्तक पिन्टूक भेटयल्लें. पूण मन समादानी नाशिल्लें. कित्याक तर म्हजे तकलेंत पिन्टू ही व्यक्तीरेखा तयार जाताली. पिन्टू होच काणयेंतलो नायक म्हूण रूपाक येतालो. फकत एकूच काणी न्हय तर तोच नायक मुखार मुखार कितल्योच श्यो काणयो एकार एक रचयत वचपाचो आशिल्लो.

'पिन्टूची काळभोंवडी' हें पुस्तक म्हळ्यार पिन्टूची फकत वळख. पिन्टू कोण? ताचो सभाव कितें? ताचे विचार कितें आनी मागीर ताका काळ कसो बदलून उडयता हें ह्या पुस्तकांत येता.

मागीर काळ आपल्याक जाय आशिल्लो तसलो होच भुरगो म्हणपाचें वळखता आनी ताचे कडल्यान तरांतरांचीं कामां करून घेता. काळाक हे धर्तीर वाडिल्लो अनाचार ना नपयत करपाचो आसता. ताचे पासत ताका असो एक भुरगो मुखार काडपाचो आसता जो एक आदर्श संवसार तयार करूंक वावुरतलो.

तेच प.सत काळ पिन्टूक कांय अश्यो गजाली भेटयता की ज्यो सर्वसामान्य मनशाकडे नासतात. तांचो वापर करून पिन्टू वायटा आड झुजता. थोडे भितर सांगपाचें जाल्यार पिन्टू म्हळ्यार शणै गोंयबाबान आपल्या बरोवपांत 'अपुर्बायेच्या भुरग्यांक' म्हूण जाका कोणाक उल्लेखून बरयलां तो गोंयचो माणकुलो भुरगो. शणै गोंयबाबांचे कल्पनेंतलें गोंय निर्माण करूंक काळान पिन्टूक मुखार काडला अशेंय म्हळ्यार जाता.

'पिन्टूची काळभोंवडी' हो काणयेचो आरंब. पयली खिस्त म्हळ्यार जाता. मागीर पिन्टू पुराय गोंय भोंवता. गोंयची सगळे तरेन वळख करून घेता. मागीर तो गिरावळीची भोंवडी करून ताची वळख करून घेता. इतले म्हणसर ताचे भितर प्रचंड शक्त आयिल्ली आसता. उप्रांत तो वायटा आड झुजत आसता. तो झुजता भ्रश्टाचार करप्यां आड, तो झुजता सैमाचो इबाड करप्यां आड, तो झुजता पिडप्यां नाडप्यां आड. इतलेंय करून पिन्टू हो सगळ्यांचो उरता.

आयज कोंकणींत बालसाहित्याची गरज आसा. कित्याक भुरगीं हींच आमच्या गोंयचे फुडाराचे खांबे. हे खांबे सगळे तरेन घटमूट उरत जाल्यारूच तांचेर गोंय सुरक्षीत उरतलें. तेच पासत एक आदर्श पिळगी घडोवपाची जापसालदारकी आयच्या साहित्यिकांचेर आसा म्हणपाची म्हाका खात्री जाल्या. तेच पासत आयच्या भुरग्यांमदीं एक उजू विचार बळावचो देखून म्हजे कडल्यान जाल्लो हो एक ल्हानसो यत्न. ताचो माणकुल्यांचेर कितलो प्रभाव पडटलो तें काळ थारायतलो.

ते नदरेन तयार जाल्लें हें एक पयलें पुस्तक. फुडल्यो कितल्यो खिस्ती पुस्तक रूपान येतल्यो तें पिन्टूच्या वावराचेर निंबून आसतलें. पिन्टूक नेटान कामाक लावपा पासत म्हजे परीन यत्न चलतलेच. पूण चड जाय पडटलें तें वाचकांचें प्रोत्साहन. तांका जर पिन्टू आवडलो जाल्यार एकार एक पिन्टूचीं कर्तुबां माणकुल्यां मुखार येत रावतलीं.

**– दिलीप बोरकार**

'धर्म-लक्ष्मी'
सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय.
मो. : ९८२२१३६८८५



पिन्टू...

ताका वर्सां बारा...

बारा कित्याक? कित्याक तर ...

ताचीं वर्सां अकराय न्हय आनी तेराय न्हय.

देखुनूच ताका वर्सां बारा

ताका नांवां तीन..

सत्यजित, सत्तू .. आनी पिन्टू

सत्यजित हें नांव ताका बापायन दवरिल्लें.

ताचे इश्ट ताका सत्तू म्हणटाले.

पूण आवय मात ताका पिन्टू म्हणटाली.

आवयन ताका पिन्टू नांव कित्याक दवरलें?

तें आवयकूय खबर ना आनी पिन्टूकय.

पिन्टू पीट्ट् पीट्ट् दोळ्यांचो.

।। दोळे घुंवडायता तेन्ना ते पीट पीट जाताले.

तो पळयता तेन्ना पीट पीट करून पळयतालो.

तो हांसता तेन्ना पीठ कशें हांसतालो.

देखून आवयन ताका एकदीस पिन्टू म्हळें.

पिन्टूकय तें नांव भोवच आवडलें.

ताची मैत्रीण राधा.

पूण सगळीं ताका पुतूल म्हणटालीं.

राधाय ताचेच वांगडा शिकतालें. पूण कोणूच ताका राधा म्हणनाशिल्लीं. सगळीं उलो मारतालीं तीं पुतूल म्हणूनच. देखून सत्तूकय दिसतालें आपणाकय कोणेंय असलेंच नांव दवरचें.

जेन्ना आवयन पिन्टू म्हळो तेन्ना सत्यजीत सामको भुरकुटलो आनी सामको आवयचोच जालो. भुरगो जेन्ना आवयचो जाता तेन्ना तो सगळ्यांचो जावन वता.

देखून पिन्टू सगळ्यांचो जालो.

शाळेंत भुरग्यांचो पिन्टू..

बाईचो पिन्टू

शेजराच्या सगळ्यांचो पिन्टू

घरांत ताचे भयणीचो...

ना. पिन्टू हो एकलोच.

ताका भाव ना आनी भयणूय ना.

पुराय घरांत पिन्टू हो एकलोच आसा.

असो हो पिन्टू सगळ्या घराचो... घरभर पिन्टू. आवयचो म्हळ्यार मम्माचो पिन्टू. बापायचो म्हळ्यार पप्पाचो पिन्टू. आज्याचो पिन्टू, आजयेचो पिन्टू आनी पिन्टूचो लेगीत पिन्टू.

* देखून पिन्टू आपलें नांव बरयतना इंग्लजींतलें पी अक्षर बरोवन ताच्या माथ्यार अनुस्वार दितालो आनी मुखार टू म्हळ्यार दोन आकडो बरयतालो आनी आपले भितर खूश जातालो.

अश्या ह्या पिन्टूक सकाळीं बेगीन उठपाक मात उबगण येताली. ताका सदांच प्रस्न पडटालो ही शाळा सकाळींच कित्याक आसता? आनी आसलीय जाल्यार उसरां कित्याक आसना? आनी शाळा आसूंक तरी कित्याक जाय?

ताका ह्या प्रस्नाची जांप कशीच मेळनाशिल्ली. शाळेक वचूंक जाय हीच ताका जाप आशिल्ली. शाळेंत वचपा खातीरूच ताका सकाळीं बेगीन उठचें पडटालें. उठचें पडटालें खंय! ताका जबरदस्तीन, फोर्सान उठोवंचो पडटालो. ते पासत घडयाळीचो अलार्म लावन दवरतालीं.

कीण...कीण...कीण....कीण...

कीण...कीण...कीण...कीण..

सदचे वरीं सकाळ फुडें घडयाळीचो अलार्म वाजलो.

त्या आवाजान पिन्टूक सदचे वरींच जाग आयली. तरी ताणें दोळे उक्ते केले नांत.

सकाळफुडें साडेपांचांक सगळ्यांक जागोवपी ह्या आवाजाची पिन्टूक सवंयूच जाल्ली.

'पिन्टू तुजेखातीर अलार्म लायतां हां. नातर न्हिदून रावशी. उठूंक जाय.'

घडयाळीक कोर्द दितां दितां मम्मा ताका दर राती सांगताली खरी पूण तो अलार्म ती आपले खातीरूच लावन दवरता हें पिन्टूक बेस बरें खबर आशिल्लें.

अलार्म वाजलो तरी तकलेर गरम गरम पांगरूण घेवन तो तसोच

पडून रावलो. दोळ्यांर न्हीद आशिल्ली आनी ती फाफडून गोजडेंतले उबेंतल्यान भायर सरप पिन्टूच्या जिवार येतालें. दोळे बंद करून, अर्द झेमेंत तो तसोच पडून रावतालो तरी अलार्म वाजल्या उप्रांत घरांत कितें कितें घडटा तें ताच्या दोळ्यां सामकार येत रावतालें.

आयजूय ताच्या दोळ्यांक तेंच दिसतालें.

अलार्माच्या आवाजान मम्मा उठली. पयल्या पयलीं तिणें वचून अलार्म बंद केलो. चड वाजत उरत जाल्यार पप्पा मम्माचेर चाळवतलो.

अलार्म बंद करून मम्मान बाथरूमांत वचून तोंड धुलां आसतलें! मागीर तिणें गॅसाचेर च्याक उदक दवरून ती पप्पाक उठोवंक गेल्या आसतली. एक फावट पप्पाक उठोवन ती परती रांदचेकुडींत आयल्या आसतली! च्या बी करून ती परत दुसरे खेप पप्पाक उठोवंक गेल्या आसतली!

दुसरे खेप पप्पा उठ्ठाच. मागीर तो बाथरूमांत वता. मागीर बूट घालता आनी ज्यॉगिंगाक वता. तो ज्यॉगिंगाक साकून येवचे आदीं पिन्टून उठून सगळी तयारी करून रावचें आसता. पप्पा गेलो रे गेलो मम्मा पिन्टूकडेन येता.

'पिन्टू उठ, शाळेक वचपाचो वेळ जालो. उठ बेगीन.'

पिन्टूच्या माथ्यावेली गोजडी सकयल ओडून ताका हालयत ती म्हण्टा आनी पर्थून रांदचे कुडींत वता. पिन्टू खातीर ब्रेकफास्ट आनी शाळेंत व्हरपा खातीर टिफिन तयार करपा खातीर.

मम्मा आयज टिफीनांत कितें घालतली हाचो विचार करीत अर्द झेमेंत पिन्टू पडून रावता. पप्पाक परतून येवपाक निदान अर्दवर आसा आनी थोडो वेळ पडून रावपांत कितें आसा असो विचार करीत. पप्पा परतून आयलो आनी पिन्टूक न्हिदिल्लो पळेत जाल्यार आपल्याचेर



चुळचुळीत थापट पडटलें हाचीय ताका खबर आसा.

पूण आजी तशें घडूंक दिना. आजी उठ्ठा. तिकाय मम्माक मजत करपाची आसता. पूण पयलीं ती पिन्टूकडेन येता. न्हिदेंत आशिल्ल्याचें सवंग केल्ल्या पिन्टूक हांतुणावयलो उबारून बसयता. रडपाचें नाटक करीत तो मागीर तोंड धुवंक वता.

हे गजालीची पिन्टूक आतां सवंय जाल्या. पप्पा वा मम्मा येवन आपल्याक उठयतली हें खबर आसुनय अलार्म वाजल्या बराबर पिन्टूच्यान कशेंच उठूंक जायना. तो तसोच पडून रावता. आजी येवन ताका उबारी मेरेन.

'पिन्टू, उठ. शाळेक वचपाचो वेळ जालो.'

सगळ्यांत पयलीं मम्मा उठल्या बराबर ताका सादयता.

'पिन्टू, वेळ जालो आं उठपाचो. हांव जॉगिंगाक साकून येवचे





आदींच उठून तयार जावन राव.'

पप्पा भायर सरतां सरतां ताका वेळेची याद करता.

'पिन्टू, बाबू उठ मरे शाण्या, वेळ जालो.'

आजी ताका अपुर्बायेन पोशेत म्हणटा आनी उबारून बसयता.

हं.. वेळ जाता खंय! मम्मा, पप्पा अजून तयारूच जावंक ना. तीं तयार जातलीं तेन्नाच तांचे वांगडा तर हांव वतलों शाळेंत स्कुटरीवेल्यान. तरीय म्हणटात वेळ जालो. ह्या वेळानूच जीव खाल्लो.

'पिन्टू, वेळ जालो उठ.'

'पिन्टू, कितलो वेळ न्हिदता?'

'पिन्टू, वेळ कितलो जालो खबर आसा तुका?'

'पिन्टू, उठ्ठा कांय ना रे? तुजे खातीर आमकांय वेळ जाता मागीर...'

पिन्टूक हो वेळ म्हळ्यार कितें तेंच कळना.

आजयेक वचून जर ताणें म्हळें, आजये म्हाका एक काणी सांग पळोवया. तर ती म्हणटा म्हाका आतां वेळ ना. सकाळीं बेगीन उठना जाल्यार मात म्हणटा –

भुरग्यांनी सकाळीं वेळार उठूंक जाय.

'पूण आजये, हो कीण कीण करून आड्डवपी अलार्म म्हळ्यार वेळ?'

'ती घडयाळ. घडयाळ वेळ दाखयता. तातूंत वाजता ती घंटा. ती आयकून तुमी वेळार उठचें म्हूण ती वाजता.'

'तूं ल्हान आसतना अशीच अलार्म लावन उठ्ठाली?'

'च्ये. हीं फकाणां आतांचीं. तेन्ना आमचे खातीर कोंबो साद घालतालो. त्या सादान आमी उठ्ठालीं.'

'कोंब्याक वेळ कसो कळटालो तर!'

'सूर्य उदेलो की कोंब्याक जाग येताली. तो साद घालतालो. त्या सादान फांतोड जाली म्हूण सगळ्यांक कळटालें आनी सगळे लोक उठून वावराक लागताले.'

'आतां कोंबे साद कित्याक घालिनांत तर?'

'तुमी तर आतां शारांनी फ्लॅटांत रावतात. थंय कोंब्याक रावपाक सुवात खंय आसा? आनी रातभर दिवे लावन उजवाड करून दवरीत जाल्यार कोंब्याक बाबड्याक कशें कळटलें रात केन्ना सोंपता आनी उजवाडटा केन्ना तें!'

'आजये आमी एक कोंबो पोसून ताका अलार्म लावन उठोवया? मागीर तो साद घालून म्हाका उठयतलो.'

'तुजी ही बडबड आयकूंक वेळ ना म्हाका. चल ती पेस्ट घे आनी बाथरूमांत वच पयलीं.'

आजी ताका अपुर्बायेन धपकायता.

परतूनय पिन्टूक हो वेळ सतायता. पूण वेळ हो आसा तरी खंय? प्रत्येकाक वेळाचें पडलां.

पिन्टू ब्रश घेवन बाथरूमांत भितर सरता. दाराक घालूं नाका अशें आजयेन सांगलां आसतनाय तो दाराची खिळी सरकयता. सगळीं जाणटेलीं तशीं करतात मागीर आपणेंच दार कित्याक उगडें सोडपाचें?

पिन्टू दाराक खिळी घालता. ताचे तकलेंतलो वेळ कसोच वचना. बेगीन दांत ब्रश करूंक जाय. नातर परतून भायर बोवाळ जातलो.

'पिन्टू, कितलो वेळ दांत घासता?'

'पिन्टू, शाळेक वचूंक वेळ जातलो.'

'पिन्टू, पप्पाक न्हावंक वेळ जाता.'

खरेंच, हो वेळ म्हळ्यार कितें.!

दांत घासतां घासतां, टूथ पेस्टीची मिरमिरसाण, गोडसाण चाखतां चाखतां पिन्टू येवजिता.

ताचें लक्ष बाथरूमांतल्या बाथटबाचेर वता. चकचकीत बाथटब. पिन्टूक ह्या टबांत पडून रावपाक खूब आवडटा. जसो कितें माणकुलोच स्विमींग पूल. टब अर्दे गरम, अर्दे थंड उदक घालून भरचो. तातूंत मागीर सुवासीक परमळाचो साबांव घालून भरपूर फेस काडचो. त्या फेसाळ उदकांत पडून रावचें, खेळचें, साबांवाच्या उदकाचे बोमाडे काडचे. पूण हें करूंक वेळूच ना. फक्त सुटये दिसा वेळ मेळटा. तरी सगलीं तापयताच.

'पिन्टू, कितलो वेळ टबांत रावतलो?'

खरेंच हो वेळ म्हळ्यार कितें हें पिन्टूक कळना.

पिन्टू तोंडांत ब्रश धरून टबाकडे वता. टबांतलो नळ सोडटा. नळांतल्यान घसघश्यांनी उदक रकूंक लागता. पिन्टूक त्या उदकाचो आवाज खूब आवडटा. टब उदकान भरूंक लागता. टब अर्द भरता. पिन्टू भानार येता. आपणें टब कित्याक भरला हें ताका कळना. टबांत पडून रावंक तर ताका वेळ ना. टबांतलें उदक सोडपाक तो तळाचें धाकणें वयर काडटा. पूण उदक कशेंच खालीं जायना.

कसलें हें अजाप? हरशीं उदक घसघशीत सकयल देंवतालें. पायपांत कितें चोंदलां काय? उदक सोडलां तें पळोवन पप्पाची आतां तापोवणी आसाच. कितें करप आतां?

पिन्टूक कितें करचें तें कांयच कळना. तो उदक वचपाचे वाटेकडेन पळयत रावता.

इतल्यान ताका ते वाटेंतल्यान कितें तरी वयर सरता तें दिसता. तो

अजापान पळयत रावता.

त्या बुराकांतल्यान एक माणकुलेंच व्हडें वयर सरता. त्या व्हड्यांत एक माणकुलोच मनीस आसता. व्हडें हळुहळू टबांतल्या उदका वयर येता आनी व्हडलें व्हडलें जावंक लागता.

आतां पिन्टूक तो व्हड्यांतलो मनीस स्पश्ट दिसूंक लागता.

ताणें माथ्याक मुंडासो बांदिल्लो. ताच्या कपलाक एक वाटकुळोच तिबो आशिल्लो. ताणें व्हडल्यो मिश्यो दवरिल्ल्यो. ताच्या हातांत एक वल्हें आशिल्लें. भेंडाक ताणें एक तुवालो रेवडायल्लो.

ताका पळोवन पिन्टू भिता. असलें अजाप ताणें केन्ना पळोवंक नाशिल्लें. ताणें भियेत भियेत त्या व्हड्यांतल्या मनशाक विचारलें, 'तूं कोण?'

'हांव काळ, जाय जाल्यार तुजे सोयी खातीर वेळ म्हण.'

त्या मनशान हांसत म्हळें.

पिन्टू कांयश्या भंयान, खूबश्या अजापान त्या मनशाकडेन पळयत रावलो.

ताणें त्या टबांतलें उदक वचपाचे वाटेंतल्यान मूय बी येता ती पळयल्ली. चडांत चड जल्लो येवं येतालो. पूण एक मनीस व्हडें घेवन ते वटेन येवप हें ताचे पासत अजापाचेंच आशिल्लें. आपूण न्हिदेंत आसतनाच दांत ब्रश करूंक बाथरूमांत आयलां अशें पिन्टूक दिसलें.

ताणें आपणाकूच चिमटो काडून खात्री करपाचें येवजिलें.

पूण ताणें चिमटो काडलो ना. चिमटो काडीत जाल्यार दुखतलें हें जेन्ना कळटा तेन्ना तो मनीस सपनांत कसो आसतलो?

आपूण जें कितें पळयतां तें सपन न्हय हें पिन्टूक होलमलें.

'तूं वेळ न्हय. वेळ वेगळोच आसूंक जाय. म्हाका सतावपी. तूं



म्हाका सतायनां.'

पिन्टून त्या मनशाक म्हळें. तसो तो हांसलो.

'वेळ कोणाक सतायना पिन्टू. वेळ मनशाक घडयता.'

'तुका म्हजें नांव कशें कळ्ळें?' पिन्टू अजापलो.

'म्हाका सगळें कळटा. देखुनूच म्हाका काळ म्हणटात.'

'पूण काळ म्हळ्यार कितें? वेळ म्हळ्यार कितें? ह्या वेळाकूच लागून सगळीं म्हाका पिडटात.'

पिन्टून काळदादाकडेन तक्रार केली.

'ताका पिडप म्हणनांत. वेळेचें भान दवरप म्हणटात. पिन्टू, वेळ कोणा खातीर रावना. प्रत्येक गजाल वेळार करीत जाल्यार तुका कोणूच त्रास दिवचोना. वेल्यान हांवूय तुका मजत करतलों.'

काळदादान ताका सांगलें.

'कसली मजत? म्हजो होमवर्क करूंक?'

'ना. तो तुजे तुवेंच करूंक जाय. हांव तुका घडपाक मजत करतलों.'

'म्हणचे कितें?'

'तें तुका मुखार हळुहळू कळटलें. पूण आतां म्हाका तुजे विशीं जाणां जावन घेवंक जाय.'

काळदादान पिन्टूक म्हळें. तसो पिन्टू हांसलो.

'खूऽक'

'हांसलो कित्याक?'

'आतांच म्हणटालो आपूण सगळें जाणां...'

आतां काळ हांसलो.

पिन्टू येवजिल्ले परस हुशार आसा हें तो वळखलो. ताका असलोच भुरगो जाय आशिल्लो.

'शाळेंत तुजो सर तुका प्रस्न विचारिना?'

'विचारता'.

'ताका जाप खबर ना म्हूण तो तुका प्रस्न विचारता?'

'ताका खबर आसता. पूण तो म्हजी परिक्षा घेता.'

'तसो हांवूय तुजी परिक्षाच घेतां. तुजीच न्हय, हांव ह्या सगळ्या संवसाराची परिक्षा घेतां. जो कोण ते परिक्षेंत पास जाता ताकाच हांव घडयतां.'

'मागीर म्हाका विचार न्हय प्रस्न. हांव सगळ्यो जापो दितां तुका.'

'तशें जाल्यार म्हाका सांग, तुका कितें आवडटा?'

प्रस्न आयकून पिन्टू अजापलो. ताका हो प्रस्न कोणेंच केन्ना विचारूंक नाशिल्लो.

म्हाका खूबश्यो गजाली आवडटात.

म्हाका मम्माचे मांडयेर पडून सकयल वयर करीत धोलप आवडटा.

म्हाका पप्पाचें वक्ल दोळ्यांर चडोवन पप्पा सारकोच चलूंक, वोल्तेरार बसून पेपर वाचूंक आवडटा. म्हाका टिवी पळोवंक आवडटा. टिवीचेर वेगवेगळें संगीत येता तें आयकून त्या तालार नाचूंक आवडटा.

हांव नाचतां तें पळोवन टिवी पळोवंक बशिल्लीं सगळीं म्हाका सांगतात, आमकां टिवी पळोवं दी. ओगी बस थंय. तरी हांव ओगी बसना. म्हाका नाचूंक आवडटाच. तांकां जशें ओग्गी बसून टिवीवेले कार्यक्रम पळोवंक आवडटात तशें म्हाका नाचत नाचत पळोवंक आवडटा. टिवीचेर संगीत वाजयतात तें म्हजे खातीरूच वाजयतात. हांवें नाचचें म्हण.

म्हाका मम्माचे वेंगेंत पडून तिज्या कानांत म्हज्या नाकान सूं ऽऽ करून वारे सोडप आवडटा.

मागीर तिणें प्रेमान म्हजें नाक दामप म्हाका आवडटा.

म्हाका काणयांचीं पुस्तकां वाचप आवडटा. तीं वाचून जालीं म्हणटकच त्यो काणयो म्हजे आजयेक सांगप म्हाका आवडटा.

म्हाका बल्कावांत बसून चिमण्यो मातयेंत खेळटात तें पळोवंक आवडटा. धुल्लांत आपल्याच पाखांनी आपल्याचेरूच धुल्ल उडोवन न्हावपी त्यो चिमण्यो खूब सुंदर दिसतात. म्हाका तशीं पाखां आशिल्लीं जाल्यार चिमण्यांवरींच हांव म्हजेर धुल्ल उडोवपाचों.

आनी म्हाका रस्त्यावेल्या धुकरापिलाची शेपडी वाटकुळी घुंवता ती पळोवंक आवडटा.

म्हाका रस्त्यावेलें एकलें एकसुरें सुण्यापील धरून घरा हाडूंक आवडटा. ताका बाथरूमांत हाडून न्हाणोवंक आवडटा. मागीर त्या कुतूक पळोवन 'आरे हें कोणालें सुण्यापोर हाडलां? सोड व्हरून ताका

भायर आशिल्लें थंय.' अशें म्हणत तापपी मम्माक पळोवंक आवडटा.

म्हाका हांसूंक खूब आवडटा.

आनी म्हाका पप्पा स्कूटर स्टार्ट करता आसतना ताच्या म्हऱ्यांत रावून पेत्रोलाचो वास घेवंक आवडटा.

म्हाका बल्कावांत हांगा थंय धावत मोठ्यान पांय आपटीत आवाज करूंक आवडटा.

म्हाका आनीक खूब कितें कितें आवडटा.

म्हाका फुलपाकुलीं आवडटात. तांचे रंग आवडटात...

पिन्टू सांगत आशिल्लो.

काळदादा आयकत आशिल्लो.

'आनी तुका टबांत उदक सोडून, त्या टबांत पळयत रावप आवडटा.'

काळान ताका हांसून म्हळें.

'हय. म्हाका उदकांत खेळूंक आवडटा. टबांतल्या उदकांत माणकुलीं ल्हारां येतात तें पळोवंक आवडटा.'

पिन्टून उमेदीन उडकी मारीत सांगलें.

'पूण पिन्टू, तूं विनाकारण उदकान टब भरता. तें भरतकच तूं तें उदक सोडून उडयता. इतलो उदकाचो इबाड बरो न्हय. उदक सांबाळूंक जाय.'

'आमकां उदक खूब येता. आमी टाकी भरून दवरतात.'

'भरून दवरली म्हूण तातुंतलें उदक सोंपना?'

'सोंपना कित्याक? चड उदक व्हारयलें की सोंपता. मागीर परत भरता.'

'ही जमीन तशीच उदकाची व्हडली टाकी. पूण जमनी पोंदचो तो

उदकाचो साठो हळुहळू उणो जाता. कित्याक तुमी सगळे आंपल्यो टाकयो भरून दवरतात आनी कारण नासतना तें इबाडटात. जमनींतलो साठो सोंपलो जाल्यार तुमी टाकी खंयच्या उदकान भरतले?'

पिन्टू तें आयकून चिंतूक पडलो. खूब खेप ताणें अशेच टब भरून मागीर उदक सोडिल्लें. न्हाय नासतना, वापरी नासतना.

'पूण हांव टब भरिना जाल्यार तूं खंयच्यान येतलो?'

'हांव काळ. काळाक कोण थांबोवंक शकना. ताची वाट कोण आडावंक शकना.'

'म्हणचे तूं म्हाका सदांच येवन मेळटलो?'

'हय. पूण तुका जाय म्हण न्हय. म्हाका जाय देखून.'

अशें म्हणून काळ त्या व्हड्या सयत नाच्च जालो.

पिन्टूचे दांत ब्रश करून जाल्ले. तो बाथरूमांतल्यान भायर आयलो.

'आरे व्वा! आज पिन्टूचे दांत घासप बेगीन जालें.'

मॉर्निग वॉकाक वचून आयिल्ल्या पप्पान ताची तकली सासपीत म्हळें.

'आनी पप्पा तुका न्हावपाक हांवें टबूय भरून दवरला.'

पिन्टून उडकी मारीत म्हळें आनी ताणें पावलांचो आवाज करीत रांदचे कुडींत धांव मारली.

ताची मम्मा ताचे खातीर तव्याचेर सळ्सळ करून पोळे काडटाली.

पिन्टूक तो आवाज आवडटालो आनी गरम गरम पोळेय आवडटाले.

पिन्टू रांदचे कुडींत येवन मम्मा म्हऱ्यांत उबो रावता.

मम्मान आयज तांदळांच्या पिठाचे पोळे करपाचो आक्त हातांत घेतिल्लो. तिका खबर आशिल्लें, पिन्टूक सुरय तांदळाचे हुनहुनीत पोळे खूब आवडटात.



पिन्टू दांत ब्रश करून, हात बरेऽ धुवन आनी पुसून आयला तें पळोवन मम्माक ताची अपुर्बाय दिसली. तिणें तव्यावेलो एक हुनहुनीत पोळो काडलो आनी बशेंत घालो.

पिन्टूक दिसलें आतां मम्मा दुसरे बशेंत हरव्या मिरसांगांची, कोंथमिरे पाल्याची चटणी घालून आपल्याक पोळ्याबरोबर लावंक दितली.

ताका कोंथमिरे पाल्याचो वास खूब आवडटा. मम्मा चटणी करूंक तो पांचवोच पालो काडटा तेन्ना पिन्टू हळूच एक पान फारायता. तें किचमून नाकाकडेन व्हरता आनी खोल भितर स्वास घेता. मम्माक कळनासतना. पूण मम्माक तें रोखडेंच कशें कळटा तेंच ताका कळना. मम्मान पिन्टूऽऽ म्हळें की तो तें पान फाटल्यान लिपयता.

पोळे केले की मम्मा असली बऱ्याऽऽ वासाची चटणी करता. पूण ती आज्याक, आजयेक, पप्पाक आनी मम्माकूच. पिन्टूक ती केन्नाच



दिना. आज तरी दितली म्हूण पिन्टू पळयत रावता. पूण मम्मा गॅसीचेर दुसरो तवो दवरता. पिन्टूक कळटा. आज आपल्याक अर्देकच्चें तातींच म्हण!

पिन्टूक हें अर्दकुटें भाजिल्लें तातीं मात्त आवडना. पूण मम्माक सांगतलो कोण?

मम्मा तातीं तव्यार सोडटा. ततयाचो धवोच बोळ तवोभर सळ्ळ करून धावता आनी वाटकुळोच थारता. ततयाचो हळदुवो गुळो त्या धव्या बोळाच्या मदींच रावता. पिन्टूक वट्याकडेन उबो रावून, मान वयर करून तें पळोवप आवडटा. तो तवोभर वाटकुळोच पसरिल्लो धवो बोळ सळ्ळ सळ्ळ करपाचें सोडून आतां पूट्ट पूट्ट आवाज करीत आंगभर बारीक बारीक फोड काडटा. हळदुवो बोळाचो गुळो मात तसोच रावता.

पिन्टूक तव्यार घाल्लें तें तातीं एक फूल कशें दिसता, वो हळदुव्याच कपड्याक धव्या सुतान विणून केल्लें तोपरें शें दिसता.

फाटले आयतरा विणा मावशी आयिल्ली. तिका एक धाकटुलोच बाबू आसा. ताच्या माथ्याक असलेंच माणकुलेंच तोपरें घाल्लें. पिन्टून त्या तोपऱ्याक हात लेगीत लायल्लो. तव्यावेलें तें तातींय त्या तोपऱ्या सारकेंच दिसतालें. पिन्टूक तें आवडलें. खावंक न्हय. फकत पळोवंक. ताका चटणी खावंक आवडटा.

मम्मान तें तोपरें...न्हय...तातीं अचळय प्लेटींत घालें. एका कपांत दूद घालें, व्हरून मेजार दवरलें.

आपल्याक चटणी मेळचिनां. तें तातींच पोळ्याक लावन खावंक जाय हें पिन्टूक कळ्ळें. पूण त्या ओट्याचेरूच दवरून खाल्यार कितें जाता? ताका थंय वोट्याकडेन उबो रावून आवडनाशिल्लें तातीं खावंक

आवडटा. पोळ्याचो सळ्ळ सळ्ळ आवाज आयकूंक आनी वास घेवंक मेळटा जाल्यारूच आवडटा.

पूण मम्मा ताका थंय उबो रावन खावंक दिना. पप्पाक मात दिता.

पिन्टू वचून मेजार बसता. कदेलीर बसलो काय ताचे पांय जमनीक तेंकनांत. ते हुमकळटात. हुमकळपी पांय हालयत पिन्टू त्या हरव्या तातयांत बुडोवन पोळो खाता.

'पिन्टू गणयत गणयत पोळो खांव नाका. वेळ जातलो शाळेंत वचूंक.'

तव्याचेर दुसरो पोळो सोडीत मम्मा म्हणटा.

परतुनय वेळ! हीं सगलीं वेळा फाटल्यान धांवतात. हांकां खंय खबर म्हाका आतांच वेळ मेळून गेला म्हूण!

पिन्टू वण्टीवेले घडयाळीचेर नदर मारता. सेकंदाचो काटो टूक टूक करून मुखार उडी मारता. आतांच साडे-सात तर जाल्यांत. कोणे तरी हो काटो घट्ट धरून दवरूंक जाय. म्हणटकच वेळ मुखार वच्चोच ना!

पोळ्याचो कुडको तोंडांत चोंदून, दुदाचो घोट घेतां घेतां पिन्टू येवजिता. खिणभर तो तोंडांतलो घास चाबपाक विसरता. ताचो काळ त्या सेकंदाच्या काट्यार बशिल्लो ताका दिसता. तोच त्या काट्यार बसून व्हडें ताणचें तशें काटो मुखार मुखार धुकलतालो.

'काळदादा, घट्ट धरून दवर तो. मुखार वचूंक दिनाका.'

पिन्टून म्हळें तसो काळ हांसलो.

'हांवें हो मुखार धुकलपाचो बंद केलो जाल्यार सगळें बंद जातलें. तुवें तोंड उगडलां तें तशेंच उरतलें. तुज्या मम्मान पोळो परतूंक कायलाटो उखल्ला तो तसोच उरतलो. तुज्या पप्पान बाथरूमांत शॉवर सोडूंक

मुठीक हात घाला तोय तसोच उरतलो.'

सेकंदाचो काटो मुखार धुकलतां धुकलतां काळान म्हळें.

'म्हणजे तुज्यान वेळ थांबोवंक जायना?'

'वेळ म्हळ्यार हांवच. हांव म्हाकाच कसो बेडी घालून घेतलों? पिसो रे तूं!'

'हे! हांव पिसो न्हय. हांव शाणो.'

'शाणो जाल्यार तो पोळो, तें तार्ती आनी तें दूद बेगीन सोपय.'

'पूण म्हाका आवडना तें! म्हाका चटणी जाय, च्या जाय.'

'तें तुज्या पप्पाक आनी मम्माक! तुवें आतां दूद पिवंक जाय. तार्ती खावंक जाय. तूं घटमूठ जावंक जाय. तुजी वाड सारकी जावंक जाय.'

'म्हज्या पप्पा, मम्माची जावंक नाका?'

'तांची जाल्या. तांकां हांवेंच हे वयार हाडल्यांत. तुकाय एक दीस हाडटलों.'

'मागीर हांवें तीं खातात तें खांव येतलें?'

'हय. आतां तुजें खाण हेंच. खा बेगीन. पूण खातना चाबून खा.'

'पिन्टू, घडयाळीक कितें पळयता? खा बेगीन' पप्पान मेजाकडेन येत म्हळें. मम्मान ताका पोळे, चटणी आनी च्या दवरली.

'हांव पळय कसो पटापट खातां तो!'

पप्पाक खावंक कितें जालां? मम्मा ताका आवडटा तेंच दिता. ल्हान आसतना म्हाका आजी भरयताली. बरी म्हाका मांडयेर घेताली. काणी सांगताली. काणी सांगतां सांगतां एक एक घास तोंडांत घालताली.

एक दीस तिजी हांवें मजाच केली.

सदचे भशेन म्हाका मांडयेर घेवन ती भरोवंक लागली. हांव तेन्ना

सारको चाबून खाय नाशिल्लों. आजयेन तोंडांत घास घालप आनी सांगप, 'सारको बरो चाबून खा.'

आनी हांव खातां खातां तिणें म्हाका काणी सांगप. ते दीस तिणें म्हाका वागाची आनी गायची काणी सांगली.

'एक आशिल्ली गाय...सारकें चाबून खा.

तिका आशिल्लो एक पाडको. बारीक चाब.

ती त्या पाडक्याक घेवन चरपाक वताली. तो पाडको तुजेवरींच हरवें तण चाबनासतना खातालो. गायेन ताका म्हळें...बारीक चाबून खा. खा मरे... बारीक बारीक चाब.'

'पूण आज्जे हांगा तो पाडको खंय आसा?' हांवें आजयेक विचारलें.

'म्हज्या गुणू, हांव तुकांच सांगतां. तूंच म्हजो पाडको रे शाण्या..' अशें म्हणत आजयेन आनीक एक घास म्हज्या तोंडांत चोंदलो. तेन्ना आजयेच्या दोळ्यांत म्हाका खूब कितें कितें दिसलें.

आजी काणी सांगत आशिल्ली.

'गाय आनी पाडको चरत चरत रानांत पावलीं..चाब, चाब रे शाण्यां. आतां गीळ पट्ट करून.'

'गायेन पाडक्याक म्हळें?'

'गीळ पळोवया मोन्यानी. तर जालें कितें, रानांत आशिल्लो वाग. ताणें त्या पाडक्याक पळयलो आनी मारली झोपय. ताका ताणें एकाच घासाक खायलो. सारकें चाबलां मरे?'

'तर ताणें पाडक्याक खालो. तेन्ना गायचेर आयलो आकांत. तिणें फाटीं फुडें पळयलां? ना. चाब मरें सारकें. गीळ आतां. तिज्या आंगांत खंयचो सांवार आयलो तीच जाणां! तिणें शिंगां उबारलीं, शेपडी तायट केली आनी रोंबलीं व्हरून वागाच्या पोटांत. फर्रर करून वागाचें पोट



चिरलें. पाडको पोटांतल्यान ठणठणीत जितो भायर सरलो. वाग मरून पडलो.'

'म्हणजे वागान पाडक्याक सारको चाबून खांव नाशिल्लो?' हांवें आजयेक विचारलें.

तशी आजी ताटली कुशीक दवरून उठली. म्हज्या मम्माक म्हणूंक लागली, 'आगो, तुज्या पुताक आतां भरोवंचेली गरज ना. तो व्हडलो जाला. ताका आपल्या हातांनी खावंदी.'

आजयेन आपल्या हातांतली ताटली पिन्टूच्या हातांत दिली. तिणें दोळे बारीक करून पिन्टूकडेन पळयलें. पिन्टू तिजेकडेन पळयत रावलो. मागीर ताणें मम्माकडेन नदर घुंवडायली. मम्मा आपल्या कामांत दंग आशिल्ली. तरी तिजो एक दोळो पिन्टूचेर आशिल्लो.

'पिन्टू, चल आतां तूं तुज्या हातांनी खा.' मम्मान ताका मातशें रागानूच म्हळें.

पिन्टू हांसलो. आपले भितरूच. ताकाय बरें ऽ दिसलें.

आपल्याक कोणें अशें भरोवंचें अशें पिन्टूक खऱ्यानीच दिसनाशिल्लें. हीं जाण्टेलीं म्हाका भुरगो कित्याक समजता हेंच ताका कळनाशिल्लें. नाका म्हळ्यार लेगीत हीं कशींच आयकनांत. तोंडांत घास आसतनाच दुसरो घास घालतात. पयलीं तोंडांत आशिल्लो तो सारको पोटांत वचूंकच नाशिल्लो. तरी आसतना ताचेर आनीक एक घास.

हे आजयेक कसली घाई लागल्या तीच जाणां! तिका दिसता हांव जेवण अदर्यारूच सांडून उठ्ठलों. तेच खातीर ती एकार एक घास भरयता. आदलो सोपचे पयलींच, आनी वेल्यान म्हणटा सारकें चाबून खा. म्हजें तोंड तें केदें शें! तातूंत इतलें भरलें जाल्यार कसो चाबून खातलों हें पिन्टूक कळना. ताकाच लागून तो खाता आसतना बेगीबेगीन गिळटा. आपूण कित्याक चाबून खायनां हें हे जाण्टेलेक कशें कळना काय?

पिन्टू चितूंक पडटा. ताचें खावन जाल्लें. तरी ताटलेंत थोडें उरिल्लें. खावचें काय ना अशें चिंतीत ताणें ताटलेंत पळयलें. आनी तो अजापलो. ताटलेंत तो काळ आशिल्लो.

पिन्टून जेवणाचे ताटलेंत, च्या च्या, दुदाच्या कपांत मुयो, दोमळे बी पळयल्ले. पूण हो काळ हे आपले ताटलेंत कितें करता काय? ताका प्रस्न पडलो.

'हांव हांगा कितें करतां असो तुका प्रस्न पडलो न्हय?'

काळान पिन्टूक विचारलें.

आयकून पिन्टू अजापलो. ताका आतां कळून आयलें, ह्या काळा मुखार आपूण कांयच लिपोवंक शकना म्हूण !

काळाक सगळ्यो गजाली कळटाल्यो. ताका कोणाच्याय मनांत रिगून तांच्या मनांत कितें आसा तें सोदून काडूं येतालें. सोदून काडपाचीय गरज नाशिल्ली. ताका तें आपसूक कळटालें. काळाक खंयीय आनी केन्नाय वचूंक कळटा हेंय पिन्टूक आतां कळिल्लें आनी तो काळ कितलोय ल्हान आनी कितलोय व्हडलो महाकाय जावंक शकतालो हाचीय कल्पना आतां पिन्टूक आयिल्ली.

पिन्टू तसो बरो भुरगो. ताका फट उलोवंक आवडनाशिल्लें. तो केन्नाच कोणाक दाखय लिपय करिनाशिल्लो. आपूण बरो भुरगो आनी बऱ्या भुरग्यान केन्नाच कोणाचें वायट करूंक फावना, कोणाक त्रास दिवंक फावना आनी जाता तितली लोकांक मजत करून तांचें बरें करचें अशें ताका दिसतालें.

आतां तर हो काळ म्हण कोण तरी दीस–रात ताच्या फाटल्या फुडल्यान भोंवतालो. हो काळ म्हळ्यार कोण सामान्य मनीस नाशिल्लो. ताका सगळी गजाल सांगनासतना कळटाली.

पयलीं पिन्टूक दिसतालें, आपल्या मम्माक सगळें कितें कळटा. आपणें सांगनासतना आपूण बरो ना हें मम्माक रोकडेंच कळटा. आपल्याक भूक लागल्या हें आपल्याक कळचे पयलीं मम्माक कळटा तें पळोवन तो अजापतालो. आपूण पडलों आनी आपल्याक दुखलें जाल्यार आपूण रडचे पयलींच मम्माच्या दोळ्यांत दुकां येतालीं. मागीर मम्मा धावट येवन ताका वेंगांत धरताली. अशे वेळार पिन्टूक मम्माचे वेंगेंत पडून रावपाक भोवच आवडटालें. मम्माच्या हड्ड्याक सामकी तेकून ताची तकली आसताली. कान हड्ड्याक तेकिल्लो आसतालो



आनी लब-दब, लब-दब जावपी काळीज ताका आयकूंक येतालें. पप्पाक लेगीत कळना त्यो गजाली मम्माक कळटात देखून पिन्टू मम्माक सामको भिवून आसतालो. तिजेकडेन तो चुकून लेगीत फट उलयनाशिल्लो. पूण हो काळ मम्मा परसूय चड हुशार !

ताटलेचे कडेर बसून आशिल्ल्या काळाकडेन बारकायेन पळयत पिन्टू विचार करतालो.

'सारकें तुजें पिन्टू. म्हाका तुज्या मम्मा परसूय चड कळटा. तुज्या मम्माक हें कळचें हें लेगीत हांवच तिज्या मनांत घालतां.'

पिन्टूकडे पळयत काळान हांसत म्हळें.

'पूण तूं म्हजे हे ताटलेंत कितें करता? उश्टें ताट मरे तें म्हजें!'

'उश्टें तुजे खातीर. म्हजे खातीर उश्टें, वायट-बरें बी कांयच ना. हांवच त्यो गजाली घडोवन हाडटां.'

काळान ताटलेच्या काटाचेर एक भोंवतड मारीत पिन्टूक म्हळें.

'पूण तूं ताटांत कितें करता?'

'हांव तुज्या ताटांतलें अन्न थंड करतां.'

'पूण कित्याक?'

'कित्याक तर तें गरम उरूंक फावना म्हूण. ते थंड करप हें म्हजें काम.'

'थंड करिना जाल्यार तुजें कितें वता?'

'हांव काळ उरचो ना. हें सगळें जें कितें दीस-रात चलता तें चलचें ना. तूं जेवंक पावचो ना. हात धुवंक वचूंक पावचो ना, न्हिदूंक पावचो ना. सगळें बंद जातलें.'

पिन्टून ताटलेंतल्या जेवणाक हात लायलो. तें सामकें थंड जाल्लें.

'पूण काळा, हें थंड करप तुजें कामूच?'

'हय. तूं हांगा कितलो वेळ बसून आसा?'

'थोडोच वेळ जालो. आतांच तर म्हजें जेवन सोंपलां.'

'तो थोडोच वेळ म्हळ्यार बरोच व्हडलो काळ. ह्या तुज्या जेवणांत आतां जंतू तयार जातात. ते वाडत रावतले. मागीर हें अन्न कुसतलें. तें कुसोवपाचें कामूच हांव करतां.'

काळान ताका अन्नाचेर जावपी प्रक्रिया सांगली. काळ सरता तशें हें सगळें घडप आसताच हाची जाणविकाय पिन्टूक जाली. काळा मुखार कोणाचीं शाणपणां चलपाचीं नांत हेंय ताका कळ्ळें. तो उठलो.

'पिन्टू, ही तुजी ताटली कोण व्हरतलो?'

काळान पिन्टूक विचारलें.

'म्हजी मम्मा, आनीक कोण?'

'तुजी ताटली तुवें उखलून मान्न्यांत दवरूंक जाता. तूं व्हडलो



जाला आतां.'

काळान अशें म्हणले बराबर पिन्टू फाटीं परतलो. आजीय ताका तशेंच म्हणटाली. आतां तूं हातांनी जेव. व्हडलो जालो तूं!

आपूण व्हडलो जालों हाची पिन्टूक खोस जाली. ना तर सगळेच ताका अजून ल्हानूच मानताले. ल्हानूच समजून वागयताले.

ह्या सगळ्या व्हडल्या मनशांक कितें जालां काय असो सदांच पिन्टूक प्रस्न पडटालो. ह्या जाण्टयांनी सगळ्या भुरग्यांक सदांच सदां खातीर ल्हान दवरपाचो निर्णय घेतला काय कितें अशें पिन्टूक दिसतालें.

पिन्टू जें कितें करूंक वता तेन्ना तेन्ना ह्या जाण्टेल्यांतलो कोण ना कोण येवन ताका हें करूं नाका आनी तें करूं नाका म्हण सांगतालो.

हाचे वेल्यान हे सगळे जाण्टेले एकूच विचार करतात, वो ताणीं सगळ्यांनी एकठांय येवन अशेंच आमी वागूंक जाय अशें बी थारायलां

आसतलें.

पिन्टू दनपारचो शाळेंत साकून घरा येता. आपलें पुस्तकांचें बॅग काडून तो सोफाचेर शेवटूंक वता. पूण तो तशें करतलो हें आदींच सगळ्यांक खबर आशिल्ल्यावरीं सगळे वागतात. मागीर तो पप्पा जांव, मम्मा जांव, जांव आजो वो आजी.

'पिन्टू, बॅग थंय उडयनांत. काडून तें वेवस्तीत जाग्यार दवर पळोवया.'

'पिन्टू, पायांतले बूट मेळत थंय उडोवप नासतात. काडून ते थंय कोनशाक दवर पळोवया.'

'पिन्टू, मान्न्यांत वचून हात पांय धुवन यो पयलीं.'

'पिन्टू, तुवें हात-पांय सारके पुसलेनांत. ते पूस आनी जेवपाक यो आतां.'

सगळ्यांचें उलोवप एकूच. पूण आवाज वेगवेगळे. पप्पाचो मातसो तापून. पूण मम्माचो आवाज तापलेलो आसलो तरी तापलेलो दिसना. तें फकाणाचें तापप दिसता.

आजी आजो तर तापच ना. तांकां केन्ना तापपाक येच ना दिसता. सदांच बाबू, हें कर, शाणो म्हजो, बाबू तें कर, गुणो म्हजो अशें म्हणत आसतात.

'हांवेंच तांकां तशें घडयल्यांत. तुका घडोवपाखातीर.'

काळ पिन्टूक म्हणटा.

पिन्टू ताटली घेवन उठ्ठा. ती व्हरून ओट्याचेर दवरता, आपले हात धुवन घेता.

मम्मा पिन्टूक पळयत आसता. पिन्टू खरेंच आयज शाण्याभशेन वागता तें पळोवन तिका बरें ऽ ऽ दिसता.

म्हजो शाणो तं। अशें म्हणत ती ओट्यावेलें पिन्टूचें ताट काडून धुवपाक उडयता.

पिन्टू काळाचो हात धरून आपल्या रूमांत येता.

पिन्टूचो रूम म्हळ्यार तो पिन्टूचोच रूम अशें न्हय. तो तसो पळोवंक गेल्यार सगळ्यांचोच रूम. पप्पाचो, मम्माचो आनी पिन्टूचोय. पूण त्या रूमांत पिन्टूचीं पुस्तकां आसतात. पिन्टू खातीर एक ल्हानशें मेज आसता आनी एक ल्हानशें कदेल आनी मेजाचेर एक टेबल लॅम्पूय आसता.

पिन्टूक खाटीर आडवो पडून, पोटाचेर न्हिदून अभ्यास करपाक आवडटा. केन्ना केन्नाय जमनीर बसून चित्रां काडुंकूय आवडटात. पूण ताची मम्मा ताका तशें करूंक दिना. तशें केल्ल्यान शरिराचेर वायट परिणाम जाता अशें ती ताका सांगता. वायट परिणाम म्हळ्यार कितें हें पिन्टूक कळना.

जें काम करूंक जे तरेन बरें दिसता तशेंच तें करूंक जाय हो पिन्टूचो हिशेब. पूण हीं जाण्टीं मनशां आपले पध्दतीन विचार करतात. आमकां भुरग्यांक विचार करूंकच दिनांत.

विचार करतां करतां पिन्टू शाळेचो गणवेश चडयता. ताका मम्मान कपडे घाल्ले मात्तूय आवडना. ताका आपले आपूण कपडे घालूंक आवडटा.

मम्मा पयलीं ताका कपडे चडयताली. पयलीं बुशकोट घेताली. दोनूय हातानी बुशकोट अशी वयर धरताली. मागीर, 'पिन्टू ह्या हातांत हो हात घाल, त्या हातांत तो हात घाल' म्हणटाली. ताका दावो हात खंयच्या हातांत आनी उजवो हात खंयच्या हातांत घालप तें कळच नाशिल्लें. मागीर मम्माच ताचो हात धरून बुशकोटाच्या हातांत चोंदताली.

बुशकोट घालप तरी थोडें सोसपासारकें. टी-शर्ट तर सामकोच त्रास करता. मम्मा तो पयलीं ताच्या माथ्यार दवरता. मागीर एक हात एका हातांत घालून हात ओडटा. इतलें म्हणसर पिन्टू सामको घुसमट्टा. केन्ना एकदां दुसरोय हात घालून टी-शर्ट तकलेवेल्यान सकयल ओडटा अशें पिन्टूक जाता. हे टी-शर्ट मनशाक फुगार करपा खातीरूच आसतात काय कितें असो प्रस्न पिन्टूक पडटा.

थंडी जाल्ली आसतना तर टी-शर्ट घालप म्हणटात ती एक शिक्षाच. नाकांतल्यान शेंबूड देंवता. मम्मा आपल्या पदरान पयलीं तें पुसता. मम्माक ताची मात्तूय वीट दिसना. मागीर मम्मा टी-शर्ट माथ्यार दवरता. इतलें म्हणसर नाकांत आनीकूय शेंबूड जमता. माथ्यावेल्यान टी-शर्ट सकयल ओडटना तें नाकाकूय घासत सकयल येता. ताचे वांगडा नाकांतलें शेंबूडय ओडत सकयल वोंठांमेरेन येता.

शी ! आंबट आंबट ! पिन्टूक वीट दिसता. तरी जीब आपसूक नाकाकडेन वताच !

ताचे परस बुशकोट घालप चड सोपें आनी कमी कश्टांचें ! मात एकएकदां सकयलो बुतांव वयर आनी वयलो बुतांव सकयल अशें जाता खरें! मागीर दोन तिनदां यत्न करतकच सारकें जमता. मम्माक मात खंयचो बुतांव खंयचे काजाचो तें अचूक कळटा. ती चुकून लेगीत वयल्या बुतावांक सकयल्या काजांत घालीना. त्या त्या बुतावाचें काज त्या त्या बुतावांक ज्युस्त घालता.

बुशकोट घालून जातकच पिन्टू पॅन्ट घालता. पॅन्ट घालप सोंपे ! म्हणचे आतां ताका सोपें दिसता. पॅन्टीच्या पांयांत पांय घालतना पिन्टू बरेच खेप पडला. मागीर मम्मा ताका जायच पडटा. मम्माच्या भुजांक घट्ट धरून मम्मा कडल्यान पॅन्ट घालून घेवपा बगर ताका पर्याय नासतालो.



पूण आतां तो कदेलाचेर बसून पॅन्ट ज्युस्त घालूंक जाणां. पॅन्टीच्या एकाच पांयांत दोनूय पांय वचनांत आनी पॅन्टीचे बुतांव घालपाचे त्रास ना. आतां ताचे पॅन्टीक बुतांव नांत. दर्ज्यान तिका झीप लायल्या. पॅन्ट चडोवपाची आनी झीप सर्रर्र करून वयर ओडपाची!

पिन्टूक त्रास जाता तो बूट घालतना. ते मात ताका मम्मानूच घालचे पडटात. पांयांक मेय कशेच वचनांत. गेल्यारूय वाकडे तिकडे वतात. मागीर बुटांतूय पांय रिगनांत. मम्मा ते अचळय कशी घालता तीच जाणां! पिन्टू बुटांत पांय घालतनां बूट ल्हान जातात. मम्मान हात लायले बराबर ते व्हडले जातात! बुटांच्यो लेसी बांदपाक मम्मा आयकना. ती अळंगपणान बुटांच्यो लेसी बांदता तें पळोवन पिन्टूक खरेंच अजाप जाता!

पिन्टू कपडे घालपांत गुल्ल जाल्लो आसता. इतले म्हणसर तो काळाक विसरिल्लो आसता. आपल्या वांगडा तो रूमांत भितर आयिल्लो म्हणपाचेंय तो विसरता.

टण् टण् टण्

घडयाळींत आठांचो ठोको पडटा आनी पिन्टूक काळाची याद जाता. तो घडयाळीर नदर मारता. काळदादा घडयाळीच्या लंबकाचेर बसून धोलतालो.

जण काय तो ताका शाळेक वचपाचो वेळ जाला म्हणपाचें सुचयतालो.

हरशीं वचपाचो वेळ जालो तरी पिन्टूक भान नासतालें. मम्मा मागीर भितर येवन ताचे बूट बी बेगीबेगीन घालताली. ताचें पुस्तकाचें बॅग ताच्या खांदार घालताली. ओडीत व्हरून पप्पाचे सुवादीन करताली. पप्पा भायर स्कुटरीकडेन उबो रावून ताची वाट पळयतालो. पिन्टूक ही सगळी ख्यास्तूच दिसताली.

पूण आज मात पिन्टून सगळीं कामां आपले आपूणच केल्लीं. कोणेंच ताका तापोवंक नाशिल्लें. घाई कर म्हणूंक नाशिल्लें. काळाचो हात धरून, काळाचेर लक्ष धरून ताणें आपलीं कामां सामकीं टायमार केल्लीं. ताका वेळेचें, काळाचें म्हत्व कळूंक लागिल्लें. जो कोण वेळेचें भान दवरता ताका धांवपळ करची पडना, मनस्ताप भोगचे पडनांत आनी कोणाचीं उलोवणींय खावंचीं पडनांत.

आपूण आतां ल्हान उरूंक ना म्हणपाचें पिन्टूक दिसूंक लागलें.

काळाक ताणें हांसून पळयलें आनी पुस्तकाचें बॅग खांदार मारून ताणें भायर पावल दवरलें. स्कुटरीकडेन रावून पप्पा ताका अजापान आनी अपुर्बायेन पळयतालो.

आपूण केन्ना एकदां शाळेंत पावतां आनी आयची ही घडणूक आपल्या वांगड्यांक आनी चड करून पुतुलाक सांगतां अशें पिन्टूक जावन गेल्लें.

पिन्टू शाळेचें दप्तर खांदाक लावन धांवट भायर आयलो. पप्पा स्कुटर स्टार्ट मारून ताचीच वाट पळयत आशिल्लो.

सदचेवरीं पिन्टू स्कुटरीचे मदले सुवातेर उबो रावंक वतालो. पप्पाचें बसपाचें सीट आनी स्कुटरीची गी हाचे मदीं उबो रावन प्रवास करूंक पिन्टूक खूब आवडटालें. स्कुटर चलूंक लागली म्हणटकच ताचो पप्पा आपल्या सिटावेल्यान मातसो फाटीं सरकतालो. मागीर पिन्टू ते सुवातेर आपले कुले तेंकयतालो. आपले हात गियेचेर दवरून मुखार पळोवन तोंडांतल्यान घूं ऽऽ करून स्कुटरी सारकोच आवाज काडटालो. आपुणूच ती स्कुटर चलयतां अशें ताका दिसतालें.

मागीर मागीर ताचो पप्पा ताका स्कुटरीचो वेग वाडोवपाची मूठ म्हळ्यार एक्सलरेटर घुंवडावंक संद दितालो. तशें करतना ताका आपुणूच ती स्कुटर चलयतां म्हणपाचें समादान लाबतालें. देखुनूच ताका थंय उबो रावपाक आवडटालें.

आत्तांय तो धांवत येवन थंय उबो रावंक गेलो आनी फाटीं सरलो. थंय ब्रेकाचेर पांय दवरून काळदादा उबो आशिल्लो. पिन्टू, पप्पाचो पांय कुशीक काडून थंय घुसता तें पळोवन ताका नाका म्हण तकली हालयली आनी फाटल्या सिटाकडेन बोट दाखयलें.

'तूं हांगाय पावलो काळदादा?'

'हांव खंयीय वचूंक शकतां. तुजे वांगडा तर आतां हांव कायमचोच म्हळ्यार जाता.'

पिन्टूकडेन हांसत पळयत काळान ताका परतून फाटल्या सिटाकडेन

भाट दाखयत थंय बसपाक खुणायलें.

'पिन्टू, सर बेगीन भितर. म्हाका कळाव जाता. तुका शाळेकूय पावपाक कळाव जातलो.'

पप्पान आपलो पांय कुशीक काडून पिन्टूक भितर सरचें म्हूण म्हणलें.

पिन्टून काळाचेर नदर मारली, ताणें नाका म्हण तकली हालयली.

पप्पाची स्कुटर अजून चालूच आशिल्ली. तातूंत पप्पा वेगाची मूठ घुंवडावन गरजेभायर रेस करतालो.

'पिन्टू, ताणें पळय गरजे भायर कितलें पेट्रोल खर्चीलें तें! चल बेगीन वच आनी बस फाटल्या सिटार!'

पिन्टू थंय गणयता तें पळोवन काळान पिन्टूक म्हळें.

'कांय खर्चीना. तो सदां तसोच करता. पेट्रोल खर्चल्यार कितें जाता तर? पंपाचेर खूब आसा. पप्पाकडेन पयशेय आसात.'

पिन्टून सांगलें. अजून ताका दिसतालें, काळ ताका थंय येवन आपले सुवातेर सदचे वरीं उबो राव म्हूण सांगतलो म्हूण.

'तें कितें जाता तें तुका हांव मागीर सांगतां. चल तूं वच आनी फाटल्यान बस.'

काळान ताका निर्वाणेच्या आवाजान सांगलें आनी आपलें बॅग घेवन पिन्टू मोन्यानी फाटल्या सिटार बसूंक गेलो. पप्पा अजापान ताचेकडेन पळयत रावलो.

पिन्टू आपूण थंयच उबो रावतलों म्हूण सदांच हट्ट धरतालो. ताका लागून पप्पाक ताका थंय उबो करचोच पडटालो. ते पासत ताका स्कुटर चलयतना आडखळ जाताली. ब्रेक मारतना पांय ब्रेकाचेर सारको धरूंक मेळनाशिल्लो. पूण हें पिन्टूक सांगतलो कसो? आतां पिन्टू आपूण

जावन फाटल्या सिटार बसलो तें पळोवन पप्पाक बरें दिसलें. तो हुसक्या मेकळो स्कुटर चलोवंक लागलो.

पिन्टू पप्पाच्या पोटाक घट्ट धरून बशिल्लो. पयलीं तो पप्पाच्या मुखार गियेक धरून उबो रावतालो. तेन्ना मुखावेल्यान येवपी झुमझुमीत वारो ताच्या कानांत, नाकांत, तोंडांत, दोळ्यांत वतालो. ताचे मम्मीन उगयल्ले केंस तो वारो सामको पिसडून उडयतालो. केन्ना केन्नाय वारो इतल्या नेटान येतालो आनी ताका घुस्मटावन उडयतालो. केन्ना केन्नाय ताच्या दोळ्यांत कोयर आनी धुल्ल पडटालो. एका हातान मागीर दोळे चोळचे पडटाले. पूण आतां पप्पाच्या फाटल्यान बशिल्ल्यान पप्पा म्हळ्यार ताका एक ढाल जाल्ली. पप्पाच्या आडसाक आशिल्ल्यान ताका मात्तूय वारो लागनाशिल्लो. त्या भायर ताणें पप्पाच्या पोटाक घट्ट वेंग मारिल्ल्यान पप्पाची उब ते सकाळचे थंडेंत गरमी हाडटाली. तसोच पप्पाच्या आंगाचो वास ताका बरोऽ दिसतालो.

ताणें पप्पाच्या हाताच्या खाकोळांतल्यान मुखार पळयलें. काळदादा दिसता काय म्हूण! पूण तो थंय नाशिल्लो.

‘पिन्टू, हांव पळय हांगा आसां.’

काळदादान पिन्टूक म्हळें आनी पिन्टून अजापान मान वयर करून पळयलें. काळदादा पांयार पांय उडोवन पप्पाच्या हॅल्मेटाचेर आरामांत बशिल्लो.

‘आरे पापया, निसरशी मरे!’

पिन्टून हुसक्यान म्हळें. तसो काळ हांसलो.

‘हांव निसरना, हांव घसरना, हांव पडना, हांव उठना. तें सगळें कोणाखातीर घडचें तें हांवच थारायतां.’

‘पूण तूं मुखार उबो आशिल्लो न्हय! फाटीं कित्याक आयलो?



काय बरो हांव रावपाचों थंय!'

पिन्टून अडेच्या रागान म्हळें.

'ती सुवात पॅसेंजरान उबो रावन वचपाक करूंक ना. तांचे खातीर फाटलें सीट आसा.'

'कोण सांगता? हांव तर थंय एकटोच उबो रावतां. पूण रामूचो डॅडी थंय रामूक, कृष्णाक आनी लक्ष्मणाक उबो करता. फाटल्या सिटाचेर तांचे मोठ्ठेले आवयक बसयता. तांकां तशीं स्कुटरीवेल्यान येतना पळोवन म्हाका हासूंक येता. काजूचे बारीक मोठे, मुट्टे दोरयेन गुंतून व्हेल्ले वरीं दिसता म्हाका तांकां पळोवन.

पिन्टून दोळे मिचमिचायत, हांसत काळदादाक म्हळें. तसो काळूय हांसलो. अशे कोण भुरग्यांक व्हरतात तांचे पासत काळ हांवच थारतां. पूण तें म्हाका जाय म्हण हांव करिनां. हांव फकत निमित्त थारता. खरी चूक तांची आसता. दुचाकी वाहन हें फकत दोगांखातीर आसता. थंय

एका परस चड लोकांक बसोवप म्हळ्यार ती चलयतल्याची चूक. खरें म्हळ्यार माणकुल्या भुरग्यांक कांय कळना. तांकां मजा दिसता. पूण आमी चूक करतात हें तांच्या जाण्टेल्यांक कळूंक जाय. पूण ते ल्हानश्या फायद्याखातीर कायदो मोडटात आनी मागीर अपघात घडटात. गरजे भायर त्या ल्हान भुरग्यांचो जीव वता. तुमी तांचेर काळ आयलो म्हणटात. पूण ते चूक करून म्हाका निमंत्रण दितात. मागीर हांवें कितें करचें? तें तर म्हजें कामूच. त्याच खातीर म्हजें अस्तित्व लोकांक जाणवता.

काळान पिन्टूक म्हळें.

तें आयकून पिन्टू गंभीर जालो. आपूण हे आदीं हीच चूक करतालों अशें ताका दिसलें. पप्पाचे स्कुटरीर ताका पांय दवरपाचे आसतात ते सुवातेर उबो रावन हांव ताका आडखळ हाडटालों. ताका ब्रेक मारूंक अडचण जाताली. हांव स्कुटरीची गी घट्ट धरतालों तेन्ना पप्पाक नक्कीच चलोवंक त्रास जातालो आसूंक जाय. पूण हांव थंयच रावतलों म्हूण हट्ट धरतालों. रडटालों. मागीर पप्पा म्हज्या हट्टाक लागून म्हाका थंय उबो



करतालो. समजा अकस्मात मुखार दुसरी गाडी आयली. एखाद्रो सुणां, गाय, पाडो, धुकर बी धांवून आयलो जाल्यार पप्पा ब्रेक मारूंक शकतलो काय? काय म्हाका लागून ताका ब्रेक मारूंक आडखळ जावपाची! मागीर ताणें स्कुटर व्हरून मारली जाल्यार गुन्यांवकारी कोणाक थारावपाचो? म्हाका काय पप्पाक? पप्पा गुन्यांवकारी न्हयच. म्हज्या हट्टाक लागून तो कायदो मोडटा.

'तूं सारको विचार करता पिन्टू. तुका हें सगळें आपूण जावन होलमचें देखून आयज हांव तुजे वांगडा आयलां.'

काळदादा पप्पाच्या हॅलमेटावेल्यान सकयल देवन पिन्टूच्या दप्तराचेर बसलो.

'तूं जसो विचार करता तसो दर एकल्या भुरग्यान विचार करूंक जाय. भुरगीं हट्ट धरतात नाका जाल्लो. तो पुराय करूंक मागीर तांचे आवय-बापूय कायदो मोडटात. कोण कायदो मोडटात आनी ख्यास्त कोणाक जाता हें पळोवंक हांव केन्नाच रावना. गुन्यांव करतल्यांनी गरजे भायर म्हाका दोशी धरलो तरीय.'

'हांव असली चूक परतून करचोना काळदादा.'

'हांव जाणां. तूं शाणो भुरगो. तेच पासत हांवें तुका वेंचून काडला. गोंयचे धर्तरेवेल्या सगळ्या भुरग्यांतल्यान. तुजे कडल्यान हांव अश्यो गजाली करून घेतलों की त्यो पळोवन सगळ्या भुरग्यांक दिसूंक जाय की आपणेंय पिन्टू वरींच जावंचें. पिन्टू वरींच काम करचें. अशें जर दर एकल्या भुरग्यान थारायलें जाल्यार हें तुजें गोंय खऱ्यांनीच धर्तरेवेलो सर्ग जातलो.'

'काळदादा, ह्या संवसारांत सर्ग बी म्हणटात तो आसता?'

'तें तुका हांव हळुहळू सांगतलों. तुका सगळें गिन्यान मेळप गरजेचें

आसा. ते पासत तुवें दरेक गजाली कडेन बारकायेन पळोवपाची गरज आसा. आज सकाळीं तुवें एक चूक केल्ली. आजूच कित्याक? ती तूं दर दिसा करीत आयला. पूण तुज्या ती लक्षांत येवंक ना.'

'कसली ती काळदादा?'

'तूं सद्दां सकाळीं शाळेंत वचपाक कळाव करता.'

'पूण म्हाका शाळेंत पावूंक कळाव जायना. पप्पा म्हाका वेळार शाळेंत पावयता.'

'वेळार पावता तूं शाळेंत. कित्याक पप्पा स्कुटर फास्ट सोडटा देखून. पूण तें समा न्हय. ताका लागून कायदोय मोडप जाता आनी लुकसाणूय जाता. लुकसाण फकत पप्पाचेंच न्हय. तुज्या देशाचेंय जाता. हे धर्तरेचेंय जाता.'

काळ उलयत आशिल्लो. पिन्टू सगळें बारीकसाणेन आयकतालो. पूण आपल्याक लागून पप्पाचें, देशाचें, धर्तरेचें लुकसाण कशें जाता हें मात ताका कळना जालें. तो तोंड उकतें दवरून काळदादाच्या तोंडाकडेन पळयत रावलो.

काळदादाक कळ्ळें, पिन्टूक आपले चुकीची जाणविकाय ना. ताका सांगले बगर ताका ती कळचिना.

'हें पळय पिन्टू, तूं सकाळीं शाळेंत वचपा खातीर तयारी करतालो ते वेळार तुजो पप्पा कितें करतालो?'

'तो म्हजी भायर वाट पळयतालो. स्कुटर स्टार्ट मारून.'

'तशें ताणें आजूच केल्लें काय तो सदांच तशें करता?'

'सदांच करता.'

'म्हणटकच चूक तुजी आसता न्हय! हें पळय पिन्टू तुका वेळार शाळेंत पावोवंक जाय आनी मागीर आपणेंय कामाक वचूंक जाय हाचो

हुसको पप्पाक आसता. ते पासत तो घाई करता. तो भायर येवन आपली स्कुटर स्टार्ट मारून, स्कुटरीची रेस करीत तुजी वाट पळयता. तुवें बेगीन भायर येवंचें म्हणूनच काय न्हय!'

'हय. ताणें स्कुटर स्टार्ट मारली म्हणटकच हांवूय बेगीबेगीन बूट बी घालून भायर धांव मारतां.'

'हे बूट बी तुवें पयलींच घालून रावूं येता. म्हणटकच पप्पाक स्कुटर स्टार्ट मारून रावचें पडचेंना. तुका वेळार शाळेंत पावोवंक ताका स्कुटर फास्ट सोडची पडचिना."

पिन्टूक आपली चूक कळ्ळी. आपल्याक लागून पप्पाक हुसको लागता आनी मागीर गरजे भायर ताका स्कुटर वेगान धांवडावची पडटा म्हणपाचें पिन्टूक होलमलें. हाका लागून रस्त्यार अपघातूय जावंक शकता. फाल्यांच्यान आपूण बेगीन तयार जावन पप्पा भायर येवपाची वाट पळयतलों अशें पिन्टून थारायलें.

'अशें जर तूं करीत जाल्यार फायदोय खूब आसा. कसो तो पळय. पप्पा स्कुटर स्टार्ट मारून पांच मिण्टां तरी तुजी वाट पळयता! तुवें घाई करची म्हूण रेस करून दवरता. हाका लागून जाता कितें तर गरजे भायर स्कुटरीचें पेट्रोल खर्चता. त्या वापरिल्ल्या पेट्रोलाचो उपेग पप्पाकूय जायना आनी तुकाय जायना. मागीर पप्पा स्कुटर फास्ट सोडटा. स्कुटर फास्ट सोडिल्ल्यान पेट्रोलाचो वापर चड जाता म्हणटकच तुजे चुकीक लागून पेट्रोलाची विनाकारण नासाडी जाली काय ना?'

'सॉरी काळदादा.' पिन्टून मनापासून म्हळें.

'तूं म्हणटलो, पेट्रोल खर्च जाल्यार कितें जालें? पयशे पप्पाच्या बोल्सांतले वतले. तुजें कितें वता? हांगा पयशांचो प्रस्न ना. पेत्रोलाचो आसा. पेत्रोल म्हणटात तें हे धर्तरेच्या पोटांत मर्यादीत आसा. तुमी तें




तुमच्या वापरा खातीर काडीत आसतात. तुमी जितल्या प्रमाणांत तें वापरतात तितल्या प्रमाणांत तें उत्पन्न जायना. एक दीस धर्तरेच्या पोटांतलें तें सोंपतलें. मागीर तुमी पेट्रोल खंयचें वापरतले?'

पिन्टूकडेन हाची जाप नाशिल्ली. हें अशें आसा म्हणपाची ताका कल्पनाच नाशिल्ली. पेट्रोल पंपाचेर वचून जाय तेन्ना जाय तितलें पेट्रोल घेवं येता अशेंच ताका दिसतालें. ताका काळदादा कडल्यान आतां ही आगळी म्हायती मेळिल्ली.

ताका ही म्हायती शाळेंतल्या ताच्या हेर इश्टांक दिवपाची आशिल्ली. आपले सारकेच आपलेय इश्ट आपआपल्या पप्पांक कळाव करतात हें ताका खबर आशिल्लें. तांचेय पप्पा आपल्या पप्पावरींच स्कुटरीच्या, गाडयांच्या पेट्रोलाची वाट लायतात आसतले म्हणपाचें ताका कळून आयलें. हें फकत एकाच दिसा घड नाशिल्लें. दर दिसा घडटालें. गोंयांतूच न्हय तर देशभर हें दर दिसा घडटा आसूं येता.

सगळ्यांनी हो इबाड जर थांबयलो जाल्यार विनाकारण खर्च जावपी कितलें तरी पेट्रोल वाचतलें. पेट्रोलाची आनी दुडवांचीय बचत जातली.

पिन्टूचे तकलेंत हेच विचार घोळटाले. आपूण हो इबाड थांबोवंक कितें तरी करूंक शकतां आनी देशाची सेवा करूंक शकतां म्हणपाची जाणविकाय ताका जाली. तो एके आगळेच उर्बेन भरून गेलो.

पप्पान शाळेच्या दारांत स्कुटर उबी केली. पिन्टून पुटूक करून स्कुटरीवेल्यान सकयल उडी मारली आनी पप्पाक हात हालयत शाळेंत धांव मारली.

काळदादा हांसत्या मुखामळान पिन्टूकडेन पळयत आशिल्लो.

पिन्टू हुशार भुरगो हाची ताका कल्पना आशिल्ली. ताका खूबश्यो गजाली कळटात हें तो जाणां आशिल्लो. तातूंत पिन्टू धाडशी आशिल्लो. ताचे पिरायेच्या हेर भुरग्यांच्या मानान तो खूबूच शिटूक आशिल्लो देखून काळान ताची निवड केल्ली हे धर्तरेर समेळ सादूंक. ती ताची म्हळ्यार काळाची गरज आशिल्ली.

जेन्ना जेन्ना धर्तरेर अधर्म माजता तेन्ना धर्म संस्कृतायेचे स्थापने खातीर हे धर्तरेर अवतार जल्म घेतात ह्या विचारांचेर खासा काळाचोच विस्वास नाशिल्लो. हे धर्तरेर जल्माक येवपी दरेक प्राणी हो अवतारूच म्हणपाचें काळ मानतालो. फकत त्या अवतारां मदली शक्त जागोवन ताचे कडल्यान वावर करून घेवपाची जापसालकी काळाची आशिल्ली. पिन्टूचे बाबतींतूय काळाची तीच लागणूक आशिल्ली. धर्तरेर वाडत वचपी गोंदळ नियंत्रणाखाल हाडपाक आपल्याक पिन्टूची मजत जातली हाची काळाक खात्री जाल्ली.

तेच आगळे खोसयेन काळ धांवत वतल्या पिन्टू कडेन पळयत आशिल्लो.

आपलें दप्तर सांबाळीत, उडक्यो मारीत पिन्टू शाळेच्या वारांदांत भितर सरलो. अजून असेंब्लीक वेळ आशिल्लो.

राधा पिन्टूचीच वाट पळयतालें. राधा पिन्टूच्याच वर्गांतलें. राधाक घरचीं पुतूल म्हणटालीं. देखून पिन्टूय ताका पुतूलच म्हणटालो. राधाय सत्यजीताक पिन्टूच म्हणटालें.

'पिन्टू, कितलो वेळ रे तुका शाळेंत येवंक?' पिन्टूक पळयले बराबर पुतुलान म्हळें.

'वेळ न्हय. काळ! आतां म्हजेर काळ आयला.' पिन्टून दोळे पिटपिटायत पुतुलाक म्हळें.

पिन्टू कितें म्हणटा ताचो पुतुलाक मात्तूय बोध जालो ना. तें तोंड उगडें दवरून पिन्टूक पळयत रावलें.

'पिन्टू, हांवें तुका वेळ कितलो केलो येवंक अशें विचारलें. तूं भलतीच जाप दिता?'

आपले गाल फुगोवन पुतुलान म्हळें.

पुतुलाक पिन्टू खूब आवडटालो. तोच आपलो खरो सवंगडी अशें ताका दिसतालें. तसो आख्ख्या वर्गाक पिन्टू आवडटालो. पिन्टूक शाळेंत येवंक कळाव जालो जाल्यार सगळेच भुरगे ताचे वाटेकडेन दोळे लावन रावताले. तो शाळेच्या दारांत पावलो म्हणटकच सगळ्यांक खोस भोगताली.

'पुतूल हांव म्हजें दप्तर वर्गांत दवरून येतां गो ऽ.'

अशें म्हणत पिन्टून आपल्या वर्गांत धांव मारली.

इतल्यांत शाळेची घांट वाजली. घांट जाले बराबर सद्दां सकाळीं जळामळाक फाफसल्ले सगळे भुरगे शाळेच्या पटांगणांत येताले. वर्ग शिक्षक आपआपल्या वर्गांतल्या भुरग्यांक रांकेंत आंगणांत उबे करताले.

शिस्तीन एके रांकेंत राविल्ला तीं भुरगीं खूबूच भारदस्त दिसतालीं.

मागीर पिटीसर तोंडांत पिल्लूक घालून तांकां फीऽ फीऽ करून आदेश दितालो. सावधान, विश्राम म्हणत एके रांकेंत शिस्तीन उबो करतालो. सकाळचे असेंब्लीक आरंब जातालो.

वर्ग भरचे आदीं दर सकाळीं सगळ्या भुरग्यांक पटांगणांत उबे करून असेंब्ली घेवपाची प्रथा पिन्टूचे शाळेंत आशिल्ली.

सगळे भुरगे रांकेंत उबे रावले म्हणटकच हेडमास्तर येवन सगळ्यां मुखार हांसत्या मुखामळान उबो रांवतालो. तो मागीर सगळ्या भुरग्यांक खंयचोय सुविचार सांगतालो. एखाद्री बोधकथा सांगतालो वो त्या दिसांनी घडिल्ली म्हत्वाची घडणूक सांगतालो.

केन्ना केन्नाय बाकीचे शिक्षकूय सांगताले. णवे-धावेचे व्हडले भुरगेय सांगताले. बाकीचे सगळे भुरगे तें थंडसाणेन आयकताले. मागीर एका सुरान वंदे मातरम म्हणून जाल्या उप्रांत वर्ग शिक्षक आपापल्या वर्गांतल्या भुरग्यांक घेवन वर्गांत वताले.

आयज असेंब्ली खातीर भुरगे सदचे भशेन उबे रावले. पिन्टूचो वर्गशिक्षक असेंब्ली घेवंक मुखार आयलो. आयज असेंब्ली घेवपाची पाळी ताची आशिल्ली.

दर दिसा एक एका वर्गाचेर ही पाळी येताली. मागीर त्या वर्गाचो शिक्षक आपल्या वर्गांतल्या एखाद्रया हुशार भुरग्याक असेंब्ली घेवंक तयार करतालो. पूण चडशे वर्गशिक्षक आपुणूच कितेंय सांगून आपल्यावेली जापसालकी मारून व्हरताले.

पिन्टूचो वर्गशिक्षक कामत सर असेंब्ली घेवंक मुखार सरलो. पिन्टूक हो सर केन्नाच आवडनाशिल्लो. ताकाच न्हय तो पुतुलाकूय आवडनाशिल्लो आनी वर्गांतल्या हेर भुरग्यांकूय आवडनाशिल्लो.

सगळ्या सरांनी कशें हांसत रावंक जाय अशें पिन्टूक दिसतालें. सर हांसत्या मुखामळान, उमेदीन रावले जाल्यार सगळे भुरगेय तशेच प्रसन्न रावतात. पुराय वर्गूच उमेदीन भरून वता. शिकपाकूय मजा येता. शिकयता तें भुरग्यांच्या रोखडें लक्षांतूय वता.

पूण हो कामत सर सदांच रडको आनी त्रासीक दिसतालो. देखून तो कोणाकूच केन्ना आवडलोना. केन्नाय ताचेकडेन कोणूय अभ्यासाचे प्रस्न घेवन वचूं तो केन्नाच कोणाच्यो समस्या उमेदीन सुटाव्यो करी नाशिल्लो. हाकाच लागून पुराय वर्गांत तो भुरग्यांक अप्रिय आशिल्लो. ताकाच लागून तो शिकयतना खंयच्याच भुरग्याचें ताच्या शिकोवपाकडेन लक्ष नासतालें. परिणाम म्हूण ताचो विशय खंयच्याच भुरग्याक बरे तरेन कळनाशिल्लो आनी भुरग्यांक त्या विशयांत कमी गूण मेळटाले. देखून मागीर चडशे भुरगे ताच्याच घरा वो दुसऱ्या कोणाकडेन शिकोवणे खातीर वचून त्या विशयाची तयारी करताले.

पिन्टू शिकोवणेच्या आड आशिल्लो. वर्गांत शिक्षकांनी भुरग्यांक समजता तशें शिकयलें आनी भुरग्यांनीय तें लक्ष दिवन समजून घेतलें जाल्यार वेगळे शिकोवणे खातीर वेळ आनी दुडू वगडावपाची गरज पडना अशें ताचें मत जाल्लें. ह्या कामत सराच्या सभावाक लागूनच हें सगळें घडटा आनी एक दीस ताका सुदारतलों जाल्यार हांवूच अशें पिन्टून मनांत थारायल्लें.

कामत सर असेंब्ली घेवंक मुखार सरलो. तो आतां उबगण हाडटलो म्हूण सगळ्या भुरग्यांनी तोंड वाकडें केलें. इत्सा नासतनाय आयकुचें पडलें. हातुंतल्यान आमची आतां सुटका ना म्हणत सगळीं भुरगीं मान सकयल घालून उबीं रावलीं.

पिन्टूचीय तीच गत आशिल्ली. कामत सर धा मिणटां तरी आतां



आमकां पिडटलो आनी ताका कांयच उपाय ना अशें चिंतून पिन्टू तें सोसूंक हेर भुरग्यांवरींच मान सकयल घालून उबो रावलो.

'कोण म्हणटा, कांयच उपाय ना म्हूण!'

पिन्टूच्या कानार उतरां पडलीं. पिन्टू भानार आयलो. हो आवाज तर काळदादाचो! तो हांगाय पावलो असेंब्लीक? हय पावतलोच. ताणेंच सांगिल्लें आपूण काळ. म्हाका कोणाच्यान आडावंक नज, म्हाका कोणाच्यान थांबोवं नज. पिन्टू तरी ताका कसो आडायतलो? कसो थांबयतलो?

'काळदादा, तूं हांगाय आयलो?'

पिन्टून अजापान ताका पळयत म्हळें.

'हय. तुका कामत सराच्या भाशणांतल्यान भुरग्यांची सुटका करूंक जाय मरे?'

पिन्टून हय म्हूण मान हालयली.





'तशें जाल्यार ताचे परस बरें सांगप्यान, बरें सांगून ताका पयस दवरूंक जाय.'

'तें कोण सांगतलो?'

'कोण म्हणचे? तुज्यान सांगू नज?'

काळान पिन्टूक आपल्या आवाजांत खराय हाडून म्हळें. तो ताका जणकाय आदेशूच आशिल्लो.

'तूं नेटान मुखार वच आनी सराक सांग आपूण आज असेंब्ली घेतां म्हूण.'

'पूण म्हाका कितें सांगचें तें खंय खबर आसा? हांवें तयारी करूंक ना.'

पिन्टून भियेत भियेत म्हळें.

'तूं वच तरी खरो! सगळें आपशींच जमून येतलें.'

अशें म्हूण काळ थंयच्यान नाच्च जालो. पिन्टूच्या आंगांत कसो कोण जाणां, एक आगळोच नेट घुसलो. ताणें आपलो हात वयर करून मोठ्यान म्हळें.

'सर, आयज हांव असेंब्ली घेतां.'

पिन्टूच्या खणखणीत आनी आत्मविस्वासान भरिल्ल्या आवाजान सगळ्यांच्यो नदरो पिन्टूकडेन वळ्ळ्यो.

कामत सर तर दोळे विस्फारून ताचेकडेन पळयतच रावलो.

दर दिसा सकाळीं वर्ग भरचे पयलीं असेंब्ली घेवपाची जापसालदारकी कामत सराची आशिल्ली. तो धाडावन बडोवन दर दिसा एकल्या विद्यार्थ्याक तयार करतालो. असेंब्लीक कितें सांगपाचें तें तोच तयार करून भुरग्यांक दितालो आनी तांचे कडल्यान पाठांतर करून असेंब्ली सोबोवन व्हरतालो. हीं कामां चडशीं शाळेतलीं णववे-धावेचीं

भुरगीं करतालीं. कोण तयार जालो ना जाल्यार मात कामत सराकूच असेंब्ली घेवंची पडटाली.

पिन्टून आपूण असेंब्ली घेतां म्हूण सांगले बराबर तो भितरले भितर कुच्छित्री हांसलो. हांगा मॅट्रीकेचीं भुरगीं लेगीत असेंब्ली घेवपाक कडकडटात. इतल्या भुरग्यां मुखार उबो रावन उलोवप म्हळ्यार फकाणाचीं कामां न्हय!

पिन्टू स्मार्ट आसा, हुशार आसा, पूण असेंब्ली म्हळ्यार खावपाचीं कामां न्हय. ताका कडकडो सुट्टा काय ना तें पळय.

कामत सरा वांगडा हेर शिक्षकांचो आनी भुरग्यांचोय तोच समज जाल्लो.

धावेचीं भुरगीं खूऽक करून हांसलीं लेगीत! पिन्टून तें पळयलें पूण ताका ताची पर्वा नाशिल्ली. तो शिस्तीन आनी धिटायेन माचयेर आयलो.

सगळे शिक्षक आनी भुरगे ताचेकडेन टुकूटुकू करून पळयताले. राधा म्हळ्यार पुतूल तर सामकें उचंबळीत जाल्लें.

'देवा-पाव ! फूस्स जायना जाल्यार पुरो!'

पुतुलान मनांतल्या मनांत देवाक होरायलो.

'आदरणीय शिक्षक आनी म्हज्या शालेय मित्रांनो.'

सगळ्या भुरग्यांचेर आनी शिक्षकांचेर धिटायेन नदर घुंवडायत पिन्टून म्हळें. सगळीं भुरगीं आनी शिक्षक तटाकून आयकताले.

पुतूल तर सामकें उमेदीन भरिल्लें. पिन्टून पयल्याच वाक्यान सगळ्यांचीं काळजां जिखिल्लीं. ताचो आवाजूच तसो आशिल्लो. गोड तरीय स्पश्ट आनी फाटले रांकेंत आशिल्ल्यांक लेगीत आयकूंक येवपा सारको.

आपूण कितें उलयतां तें स्पश्ट आसूंक जाय, सगळ्या भुरग्यांकूच

न्हय तर शिक्षकांक लेगीत तें बरें लागपाक जाय. आपल्या वर्गाची तोखणाय जावपाक जाय. तेन्ना आपणें जी जबाबदारी घेतल्या तातूंत खंयच उणों पडूंक फावना हाचें भान पिन्टूक आशिल्लें.

'आयज हांवें अणभव घेतला तसलो अणभव आमचे मदले सगळेच जाण दर दिसा घेतात.'

पिन्टू आपलेच भिरकेंत उलयतालो. सगळे कान दिवन आयकतात हें तो जाणा आशिल्लो. थोडे जाण तो केन्ना चुकता आनी फकाणां करूंक तांकां केन्ना मेळटा हाची वाट पळयतात म्हणपाचें तो जाणा आशिल्लो.

'म्हजो पप्पा म्हाका शाळेंत पावपाक भायर तयार जावन राविल्लो. ताणें आपली स्कूटर स्टार्ट मारिल्ली. पूण म्हजे बूट घालून जावंकूच नाशिल्ले. ते घालतां, मागीर बॅग उखलून भायर धावून येतां म्हणसर पांच मिनटां सरलीं. पप्पाची स्कूटर चालूच आशिल्ली. कित्याक, हांव ताका आयलों, जालें म्हजें! अशें भितरल्यान सांगतालों. हाका लागून पांच मिनटां स्कुटरीचें इंजिन चालूच उरलें. हाका लागून विनाकारण कितलें तरी पेट्रोल खर्च जालें.

हें सगळें घडलें तें म्हजे चुकी खातीर. ते पासत हांव तुमची सगळ्यांची चूक मागतां.'

पिन्टून सगळ्या भुरग्यांचेर आनी शिक्षकांचेर नदर भोंवडायत म्हळें.

'तुमी म्हणटले, हो आमचीशी चूक मागता? लुकसाण जाल्यार हाच्या पप्पाचें जातलें ! पूण तें तशें न्हय. पप्पाचें लुकसाण जालें खरें! पूण तेच वांगडा तें देशाचें म्हळ्यार आमच्या सगळ्यांचें लुकसाण. म्हजे सारके जर सगळेच वागले जाल्यार कितलें पेट्रोल विनाकारण नश्ट जातलें तें पळयात. पेट्रोल ही सैमिक संपत्ती. तिचो साठो धर्तरेच्या

पोटांत मर्यादीत आसा. तो जर असो गरजे भायर सोंपयलो जाल्यार कांय वर्सां उपरांत सगळ्यो स्कुटरी बंद पडटल्यो. दुसरी गजाल म्हळ्यार हांव स्कुटरीचेर पप्पाच्या मुखार रावन येतालों. ताका लागून पप्पाक स्कुटरीचो ब्रेक मारूंक त्रास जातालो. हाका लागून रस्त्यार अपघात जातात. हें कित्याक जाता तर आमी भुरगे हट्ट धरतात म्हूण. थोड्यांचे पप्पा तर स्कुटरीचेर अशे मुखार दोग दोग भुरग्यांक उबे करतात. अशे वेळार अपघात जाल्यार त्या भुरग्यांचें, आमच्या भावांचें कितें जातलें? म्हाका म्हजी चूक कळ्ळी. हांव आयज स्कुटरीचे फाटले सिटार बसून आयलों. हांवें हें बरें केलें काय ना?'

ते बराबर सगळ्या भुरग्यांनी 'हय' म्हणत ताळयो मारल्यो. शिक्षकांनीय मानो हालयल्यो.

'हें जर अशें सगळ्या भुरग्यांनी केलें जाल्यार शाणेपणाचें जातलें. खूबशे अपघात टळतले.'

इतलें म्हणून पिन्टून भाशण सोंपयलें. सगळ्या भुरग्यांनी परतून एकदां ताळयो मारल्यो. पुतूल तर बरोच वेळ ताळयो मारीत रावलें.

सगळे शिक्षकूय पिन्टूचें तें धाडस आनी स्पश्ट उलोवप पळोवन, विशय मांडपाची पद्धत पळोवन अजापीत जाल्ले. पिन्टू भितर खूब बरे गूण आसात, त्या गुणांक आमी सारें घालूंक जाय म्हणपाचें तांकां कळ्ळें.

काळूय पयस रावन पिन्टूचें हें काम पळयतालो. आपणें योग्य भुरग्याची निवड केल्या म्हणपाचें काळाक कळ्ळें. ताचे कडल्यान आतां खूब कामां करून घेवपाचो निर्णय काळान घेतलो.

काळा मुखार कोणाचें कितें चलता?

पिन्टू आनी पुतूल आपल्या वर्गांत आयलीं. पिन्टूक आपणें खूब



व्हडलें काम केलें अशें दिसूंक लागिल्लें. आपले भितर एक प्रचंड आत्मविस्वास बळावला हाची ताका जाणविकाय जावंक लागिल्ली. ताच्या आयुश्यांतलें हें पयलें भाशण आशिल्लें. ताची सगळ्या भुरग्यांनी तोखणाय केल्ली. शिक्षकानी तोखणाय केल्ली. जर लोकांचे तोखणायेक पात्र थारतलो जाल्यार सदांच आंगांत धाडस बाळगून बरें काम करूंक जाय म्हणपाचें ताका कळून आयलें.

वर्ग सुरू जालो. वर्गांत येवपी सगळे शिक्षक आतां ताचे कडेन अपुर्बायेन पळयताले. तांच्या दोळ्यांतलो मोग पिन्टूक भावतालो. आपणें आतां ह्या मुखार बरेंच काम करूंक जाय, कित्याक आपणें सगळ्यांच्यो अपेक्षा जागयल्यात हाची जाणविकाय पिन्टूक जाल्ली.

शाळा सुटून पिन्टू घरा पावलो तो वाऱ्यार हुबतूच. केन्ना एकदां आपूण घरा पावतां आनी आपणें केल्लो पराक्रम मम्माक सांगतां अशें ताका जाल्लें.

पिन्टू घरा आयलो. दारांतूच रावून ताणें आपले बूट काडले. ते

वेवस्तीत दाराच्या फाटल्यान आशिल्ल्या रॅकाचेर दवरले. आपलें बॅग व्हरून आपले कुडींतल्या टेबलार दवरलें. कपडे काडून तेय हॅन्गराक लावन दवरले. वचून हातपांय स्वच्छ धुले आनी तो जेवणाच्या टेबलार वचून बसलो.

मम्मा, आजी बी ताका अजापान पळयतालीं. 'पिन्टू, बूट जाग्यार दवर, पिन्टू बॅग मेळटा थंय उडोवं नाका, पिन्टू हात पांय धुवन यो' अशें सदचेवरीं ताका सांगपाची पाळी आयज कोणाचेरूय येवंक नाशिल्ली. सगळीं जाणां ताका तोखणायेन पळयतालीं.

मम्मा पिन्टूक वाडटाली: तेच वेळार पिन्टून तिका असेंब्लीची गजाल सांगली. आपणें कितें कितें सांगलें तेंय मम्माक सांगलें. मम्माक ताची अपुर्बाय दिसली. 'तूं असोच व्हडलो जा.' अशें म्हणून ताचे आजयेन ताका तोंडभर आशिर्वाद दिलो.

पिन्टू जेवलो. आपलें ताट ताणें आपणेंच उखल्लें आनी मोरयेंत व्हरून दवरलें. साबांव बी लावन हात वेवस्तीत धुले. आंवतना दोन फावट उदक घेवन दांत बरे कुचकुचायले. हात, तोंड बी पुसून आपले कुडींत आयलो.

काळदादा ताची वाट पळयत आशिल्लो. तो पिन्टूकडेन लक्तुबायेन पळयतालो.

'काळदादा, कशें लागलें म्हजें?'

पिन्टून ताकतिकेन विचारलें. आपली काळदादान तोखणाय करची अशें ताका दिसलें.

'तुजें भाशण बरें जालें.' काळदादान ताका म्हळें. 'पूण इतलेच गजालीन भुल्लूसून वचूं नाका. तुका फुडाराक हाच्याय परस व्हडलीं कामां करपाचीं आसात. दर कामाक जर तूं भुल्लूसून गेलो जाल्यार

तुका गर्व जातलो.'

'म्हणचे कितें काळदादा?'

'म्हणचे तुका आपुणूच व्हडलो अशें दिसूंक लागतलें. तशें दिसूंक फावना. मनशान ल्हानविकायेन वागूंक जाय.'

काळ ताका समजायत आशिल्लो आनी पिन्टू ताची दरेक गजाल कान लावन आयकतालो. समजून घेतालो.

'पिन्टू आतां हांव तुका तुजें काम सांगतां. तूं म्हजे परिक्षेक पास जाला.' काळान पिन्टूक म्हळें.

'कसलें काम काळदादा?'

'तुवें आतां ह्या खिणांक सावन लोकांच्या बऱ्याचींच कामां करूंक जाय.'

'कसलीं तीं काळदादा?'

पिन्टू आतां सामको उतावीळ जाल्लो. कोणतरी आपल्याचेर विस्वास दवरून व्हडली जबाबदारी घालता ही गजालूच ताचे कल्पने भायली आशिल्ली. नातर आजवेर सगळेच ताका, तूं ल्हान आसा, तुजेकडें जावंचेंना तें काम म्हणत आयिल्लीं. आतां ताका काळूच सांगतालो तुवें व्हडलीं व्हडलीं कामां करूंक जाय म्हूण.

'तुवें कसलीं कामां करपाचीं तीं हांव तुका सांगना. तीं आपशींच तुका कळटलीं. तुजें मन तुका सांगतलें.'

पिन्टून बरें म्हूण मान हालयली.

'आतां हांव तुका कांय गजाली भेट दितां.'

काळान पिन्टू म्हऱ्यांत येत म्हळें. ताणें पिन्टूच्या काना सकयल हात लायलो आनी म्हळें, 'तुकां हांवें नुस्त्याक जशीं कल्लीं आसतात तशीं कल्लीं दिल्यांत.'





'म्हणचे कितें काळदादा?'

'नुस्तीं उदकांत पेंवतात, खोल मेरेन बुडून वतात.'

'हय काळदादा.'

'तांकां जगपाखातीर प्राणवायू जाय पडटा. खबर आसा मरे तुका?'

'हय काळदादा.'

'तांकां तो खंयच्यान मेळटा जाणां तू?'

'ना काळदादा.'

पिन्टून मान हालयत म्हळें.

'नुस्तीं न्हंयेंतलें, दर्यांतलें उदक तोंडांतल्यान भितर घेतात. त्या उदकांतलो प्राणवायू हीं कल्लीं काडून घेतात.'

पिन्टू अजापान सगळें आयकतालो.

'तुका हांवें जीं कल्लीं दिल्यांत ताचोय वापर नुस्त्यावरींच जातलो. तांकां लागून तूं उदकांत केन्नाच बुडचोना.'

आयकून पिन्टूक हे गजालीचेर विस्वासूच बसना जालो.

'मात एक गजाल तुवें करूंक जाय. हांवें ह्यो गजाली तुका दिल्यात हें कोणांकूच सांगूंक जायना तुवें.'

'हय काळदादा.'

'जर कोणाक सांगलें जाल्यार हांवें दिल्ली ही शक्त त्याच खिणांक ना जातली.'

पिन्टूक त्या गजालींचें म्हत्व कळून आयिल्लें.

'आतां हें वक्ल घे. हें फकत रातचें घालपाचें. ताका लागून तुका काळखांत लेगीत दिसतलें.'

पिन्टूक एक वक्ल दीत काळदादान म्हळें, 'आनीक तुका ज्यो ज्यो गजाली जाय पडतल्यो त्यो हांव गरजे प्रमाण तुका दितलोंच. पूण





तुवें मतींत दवरूंक जाय, आपूण जें कितें करतलों तें लोकांच्यां बऱ्या पासत.'

पिन्टून आत्मविश्वासान आनी मनासावन 'हय' म्हणत काळाक उतर दिलें.

त्या उतरांत आशिल्ली शक्त काळाकूय होलमली.

पिन्टूच्या माथ्यार हात भोंवडायत तो थंयच्यान नाच जालो.

पूण पिन्टूक खबर आसलें, तो थंय नासलो जाल्यारूय आपल्याच वांगडा आसा. ताच्या सांगाताकूच आतां फुडले पराक्रम करप आनी एक आदर्श गोंय, आदर्श देश घडोवप. हे धर्तरेर मनीसपण रूजोवप!

◆◆◆





दिलीप बोरकार

**दिलीप धर्मा बोरकार (२ माय १९५७)**

वर्गशत्रू, भरते-भार, आण्टीची गादी, आयज आमचें रा
आयलें (नाटकां). कॅन्सर, एक शून्य प्रवास (एकांकी संग्रह)
दर्यासुंदरी, अशांत सुशांत, मस्त्या गुंडूची नस्ती भोंवडी
पिन्टूची काळ भोंवडी, चड आस्त धरता तो बुडटा, रांव
पावलो दुबय, पिसो लाडको आनी शाणो पाडव
(बालसाहित्य). रूक्षप्रस्न, बोरकारी, तीर सुवादीक, बार्व
विशेश, श्रेयार्थी (ललित). गोमाचल ते हिमाचल
कालसर्पयोग, क्रिशम (प्रवास वर्णन) अश्या गद्य साहित्याचं
निर्मिती आनी मेथये पावलां (काव्य संग्रह), मेटींग (कथ
संग्रह).

आघात, जिमलेट, रूक्षप्रस्न (नवप्रभा) प्रहा
(तरूणभारत) आंबट तीख (लोकमत) बोरका
(सुनापरान्त) सारकीं वाचकांक प्रतिक्षा करूंक लावपी सद
आनी 'बिम्ब' ह्या दर्जेदार मासिकाचें संपादन अ
पत्रकारितेंतलें कार्य.

डॉन बास्को हायस्कूल, कळंगूट. सांताक्रूज हायस्कूल
सांताक्रूज. कस्तुरबा मातोश्री हायस्कूल, पणजी आनी फ
आग्नेल कॉलेज ऑफ आर्टस् ॲन्ड कॉमर्स, पिलार हां
विद्यादानाचें कार्य.

जाग, बिम्ब मासिकांतल्यान तीर-सुवादीक कॉलम
आयलें तशें गायलें, हायली फिलॉसाफिकल कॉलम सार
खुसखुशीत आनी चिंतनशील सदरां.

भरते भार (१९८२), गोमाचल ते हिमाचल (१९८५)
कला अकादमी उत्कृश्ट साहित्य पुरस्कार. अखिल भारती
नभोनाट्य पुरस्कार (१९८७, १९९१,१९९२), कोंकण
भाशा मंडळ पुरस्कार, न्यू गोवन ओवरसीज पुरस्का
(१९९६), डॉ. टी. एम्. ए. पै फाऊंडेशन पुरस्कार (१९९९)
**केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कार (१९९५)**, राज
सन्मान (२००७) आदी सन्मानान भोवमानीत.

विद्यार्थी चळवळ, युवा आंदोलन, शिक्षक आंदोलन
रांपणकार, कामगार आंदोलन, कोंकणी प्रजेचो आवाज
गोवा बचाव आंदोलनात सक्रीय सहभाग.

'शेल्टर', 'रॅगींग', 'बाकीबाब', 'एम्. बॉयर' 'फ
ऑफ प्रॉस्पेरिटी' आनी 'पद्मभूषण, ज्ञानपीठकार रवीन
केळेकार' आदी माहितीपटांची निर्मिती.

बिम्ब
प्रकाशन